# अमृत वाणी

संत आनी संतवाणी

**सूर्या अशोक**

शेणै प्रकाशन
कोची



2008

Konkani

**AMRIT VANI**

Lives and Works of Devotional Poets of India

**SURYA ASHOK**
19/36 A, 'Srinivas',
Waterland Road, Palluruthy,
Kochi - 682 006.

First Edition 2008


Published by
**SHENOY PRAKASHAN**

Printed at :
**VASANT INDUSTRIES**
Town Hall Road,
Kochi - 682 002.

Price : **Rs. 220/-**

Cover Design : Surya Ashok

# समर्पण

ते ते वेळार आवश्यक पुस्तकां मिजे हातांत मेळून

अनुयोज्य उतरां मिजे मनांत येवून

इतलेच विस्तारान एक ग्रंथ करूक भाग्य मेळ्ळेलें

खंचे एक शक्तीचे दयेन कि

ते शक्तीचे पायां कडे हें पुस्तक आतां

हांव भक्तीन समर्पण करतां.

# मनोगतां

भारतांत भक्ति साहित्य आदिम काळ साकून पुष्टि घेवून राबल्यां. भारताचे भक्ति साहित्यांत खूब संतकवि, रत्नां समान झगझगेवन आसाय. तांगेलीं उतरां अमूल्य, विचार तेजवंत आनी प्रचोदनात्मक. जीवितांतूलें बरें वायट सर्व सरळ, सरस भाषेन तांचे तांचे वाणींत आसा. जाल्यार तांची रचना वेगवेगळे भाषेन आसा म्हळ्ळेल्यान इतर भाषेचे जनांकडे ती तांची "अमृतवाणी" पावली म्हूण जायना. आमचे भारतांतुले हे विशेष अवस्थेंत भाषांतराक विशिष्ट स्थान आसा. प्रत्येक भाषेंचे, साहित्याचे आनी भाषिकांचे वाडींत आनी उन्नमनांत भाषांतराचो स्पष्ट वांटो आसा, प्रभाव आसा.

हे फाटभूंयेर हांगा भारतांतूले तीन भाषेंतुले णव प्रमुख संतकवींची आनी तांचे कवन रत्नांची वळख कोंकणी वाचकांक करून दिवूक मिगेलो विनम्र श्रमु आसा.

कसलेय कार्याक वेळु कालु आसा म्हणताय. हे पुस्तकाचे रचनेचे खातीर ही म्हणी कितली खरी म्हूण माका समजल्या. 'गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो' हे मिगेले पुस्तकाचे खातीर उल्लेख सोदूचे वेळार कबीराले दोनी चार दोहा भाषांतर केल्ले. ते माका खूब आवडले. तेन्ना मिजे मनांत अशी एकि चिंता आयली कि पोरणे हिंदीन बरयलेले ते दोहा अत्यंत अर्थवत आनी प्रचोदनात्मक आसूनूय समजूक कितले कष्ट जाताय! तसले सुमार दोहा भाषांतर करून कबीर वाणीचो परिचय चडचड जनांक दिल्यार चांग म्हूण एक संकल्पना उद्देली. हें आशय हांव श्री शरतचंद्र शेणै हांचे लागी

सांगूनीक थोडे चड संतांचो आनी संतवाणीचो परिचय दिंवचे चड बरें आसतलें अशी म्हणून तान्नी ते खातीर थोडे सहायक पुस्तकय दिले.

तशी मेळ्ळेले पुस्तकांत साकून एकेक कवींचे रचनेंतुलीं प्रभावपूर्ण कवनां वेंचून भाषांतर करूक लागली. एकेक वळणीरीय आडखळून राबिल्ले तेन्ना माका सहायहस्त दीवूक खूब जाणां पावलीं. कोचीची श्रीमती सुशीला टी. भट आनी श्री. के. अनन्त भट हान्नी हिन्दींतुलीं सहायक पुस्तक दीवन भारी कृपा केल्या. तेन्ना गोरखपुराचे गीता प्रेसा विशीं आयकीलें आनी थोडे पुस्तक थंय साकून मांगवयलेय.

हाचे मद्दें कुटुंब सयत हांव मुंबई भोंवडेक गेलीं. थंय राबून आशिल्ले मिगेले धाकले भावान आमकां पुणे लागी देहू गांवांतुले तुकाराम मंदिरांत आकस्मिक जावन पांवयलीं. संत तुकारामालें जन्मस्थल भोंवून चोवूक आनी थंय प्रदर्शनाक दवरलेले तुकारामाले हस्तलिखित तळतांचें दर्शन मेळूक भाग्य जालें, आनी ताची 'अभंगाची गाथा' थंय साकूनूच घेवूकय माका साध्य जालें.

मलयाळम कवि पूंतानम नंपूतिरीली रचनाय मेळोवन स कविंची रचना आनी परिचय तयार करूक जालें तरीय णव ही संख्या पांवोंवका म्हूण. दिसलें. तीन कवींची रचना लागेन जाय. खंय साकून मेळतल्यो अशी विचार काडून देवाचे लागी मागणी करून बेसल्ले तेन्ना आकस्मिक जावनूच आयकलें कि कोचीची डॉ. स्वर्णलता जी. पै. हांचे लागी मराठी पुस्तकां खंडित आसतलीं. आनी तांन्नी मिजे सहायाक पावलींच!

हे मिगेले संरंभात आनीकय खूब जनांनी माका प्रोत्साहन दिल्यां. कालिकताची श्रीमती सुनीति राव हान्नी हांवें मराठींत साकून केल्लेलें भाषांतर वाचून प्रसक्त सुचोवणी दिल्या.

एक, देड वर्ष भितरी हाची रचना करूक जालेल्याचीं कारणां हींच सगट म्हूण हांव आठयतां. हे पुस्तकाचे खातीर सहायक पुस्तकां आनी तशीच, प्रोत्साहन आनी मार्गदर्शन दिल्लेले सर्व मायेस्त व्यक्त्यांकय आतां मिजो काळजांतुलो उपकार. माका सदा प्रोत्साहन दीवन येंवचे मिगेले मोगाळ कुटुंबाक आनी तशीच मायेस्त इतर सर्वांक आतां उपकार सांगतां. आनी कितलेकी जनांचो अनुग्रह माका मेळ्ळा तांचीय हांव आभारी. हें पुस्तक श्रदेन आनी सुंदर रूपान छापून तयार केल्लेले कोचीचे वसंत इंडस्ट्रीसाचे कर्मचार्यांचीय हांव रीणेली. सर्वोपरी हे पुस्तकाचे खातीर सहज आनी सुंदर रूपान प्रस्तावना बरयलेले डॉ. स्वर्णलता जी. पै. हांका मिगेलो हार्दिक धन्यवाद.

हांतूं खंयतरीय, कसलीय तरीय चूकी म्हज्या हातांनी घडली जाल्यार क्षमा मागीतां.

- **सूर्या अशोक**

# एकि नवरत्न श्रेणी
# तांची अमरकाणी आनी अमृतवाणी

भारतांतु पुरातन काला थाकुनु आशिले संस्कृत साहित्याचो होडु भागु काव्य त. तांतूई प्रधान भागु भक्तिकाव्य. हाज्जो आधार रामायण, महाभारत, भागवत आनि इतर पुराण. मागिरि आयलेले जायते भक्तांनी तांगेलो तो भक्तिचो, आनंदाचो अनुभवु शब्दांनी व्यक्त केल्लेले त भक्तिगीत - तांगेली अमृतवाणी. कोणाकई ह्या अमृतवाणीचो एदो स्वाद मेळ्यारि मागिरि ताक्का आनीकई जाई म्होणु दिसतलें.

भारतांतु जायते प्रांतांतु असले भक्तिकाव्य विविध भाषेंतु आस्स. उदाहरण हिन्दी, बंगाळी, मराठी, गुजराती, तामिळ, मलयाळम, कन्नड इत्यादि. त्या त्या प्रांतातुले जनांक तांगेले भाषेंतु ते वाचिल्यारि ते समजूक जात्ता. पण इतर भाषेचे जनांक तें जायना. ते कोणी तरी भाषांतर केल्यार मात्र साध्य जात्ता. श्रीमती सूर्यान ह्या सुंदर अमृतवाणींतु ते केल्ला. हांतु भारतांतुले तीनी भाषेंतुले - मराठी, हिन्दी आनी मलयाळम - णव भक्तांल्यो जीवनी आनी तांगेले भक्तिगीत कोंकणींतु भाषांतर केलां.

महाराष्ट्रांतुले संतांली भक्तिधारा अभंगरूपान प्रवहीत जाल्या. थांगाच्या "वारकरी" संप्रदायाचो प्राणु त अभंग. अभंग म्हळ्यारि भंगु

नात्तिलें - शाश्वत. ते देवाली महिमा वर्णन कोरचे आस्स, उपदेश रूपान आस्स, आनि तत्वज्ञान मना कोरोंचे आस्स. अनेकानेक भक्ताले अभंग जायते आस्सई. तांतुले चारी प्रमुख भक्त जाव्नू आशिले नामदेव, ज्ञानदेव, एकनाथ आणि तुकाराम हांगेले अभंग कवयित्रीन भाषांतर केल्ला. भाषांतर सरळ आनी सुंदर जाल्लां. हें वच्चुनु मस्त जनांक आनीकई तांगेलें भक्तिसाहित्य वाच्चुका म्होणु दिसतलें.

हिन्दी भक्तिकाव्यांतु दोहारूपान आनी भजनरूपान जायते भक्तानी तांगेले हृदयस्थ भक्तिभावना शब्दांनी अभिव्यक्त केल्या. तांतुले चारी भक्त तुळसीदास, सूरदास, कबीर आनी रहीम हांगेलें काव्य श्रीमती सूर्यान कोंकणींतु भाषांतर केल्लां. मलयाळमांतुलो भक्त पूंतानम नंपूतिरीकय मेळोन णव भक्तांले काव्याचो कोंकणी भाषांतर त ही सुंदर “अमृतवाणी”. सर्व भाषांतर चांग जाल्ला हें प्रत्येक सांगचें आवश्य ना.

वाड्डुनु येंवचे कोंकणी साहित्यांतु श्रीमती सूर्या अशोकान आनी एक सुंदर फूल दवरलां. तिग्गेलो हो प्रयत्नु प्रशंसनीय. हे तिगेले प्रयत्नाक मेगेली हार्दिक आशंसा. ही एकि नवरत्नश्रेणी. हांची अमरकाणी आनी अमृतवाणी समस्त कोंकणी वाचकांक प्रियकर जातली म्होणु विश्वास पांवता.

**- डॉ. स्वर्णलता जी. पै**

# व्यक्तित्व आनी कृतित्व

# संत नामदेव

तेराव्या शतकांतुले मराठी भक्ति साहित्याचे इतिहासांत प्रकाशमय जावन झगझगेता नामदेव. पंढरपुराचे शिंवप्प्यां कुलांत क्रिस्ताब्द 1270 वर्षा जन्मले नामदेवाचो बप्पा दामाशेट आनी अम्मा गोणाई. खूब काळांक तांकां चेरडूवां जायनाय म्हूण निराशा पावून पुत्रप्राप्तीचे खातीर पांडुरंगाची उपासना करून पांडुरंग प्रसाद जावन एक बालक जन्मलो. विठळाचे नामस्मरणाचो हो बालक नामदेव नांवांन वळ्कूक लागलो.

पांच वर्षां आसतना नामदेवाक दामाशेटीन देवळांत निवेद्याक व्हरचें काम सोंपून दिलें. ते खातीर निवेद घेवन बालक नामदेव देवळांत गेलो आनी देवामुकार वाट्ळ्यांत दवरून तें ग्रहण करूक सांगतलो जालो. जाल्यार देव निवेद खायना कित्याक म्हूण ताका समजलेंना. सदां निवेद खांवचो देव आज कित्याक खायना? देव कांय कोपान आसा अशी ताका दिसलें. ताणे देवा मूर्तीचे लागी सांगीलें, “पांडुरंगा, तूंवें हो निवेद आतां खेलोना जाल्यार हांव तुजे पांयांचेर मातें धाडावन जीव दितलों.”

हें आयकून पांडुरंगाक भय जालें आनी प्रत्यक्ष येवन निवेद सगळो खावून सारलो. रित्ती वाटूळी घेवन परतल्ले नामदेवाक दिकून अम्माक कोप आयलो. निवेद सग नामानच खेला अशी तीणे आरोप केलो. नामदेवाक वायट दिसलें. खरें जावन निवेद देवानच खेला म्हूण ताजीं दृढ उतरां तीणे दामाशेटीचे लागी सांगीलीं.

बालक देवाक निवेद खावयता पळोवूक दामाशेटी हेरदूसा नामदेवाचे मागशीच देवळांत चमकीलो. देव प्रकट जावन नामदेवान प्रेमान दिलोलो निवेद खाता निपून राबिल्ले दामाशेटीन पळयलें आनी तो

आनन्दान रोमांचित जालो. तो समजलो कि दैवदर्शन मेळ्ळोलो नामदेव एक साधारण बालक न्हय. हीं आश्चर्याचीं कायरीं सर्वांनीय आयकिलीं आनी बाल्यांतूच साकून तो भक्त नामदेव म्हूण लोकांचे आदराक पात्र जालो.

त्या काळाची रीति अनुसरून नामदेवाची व्हारडिक सानप्रायेरीच जाली. ताजे बायलेचें नांव राजाई. दिवसानदिवस नामदेव विठळाचे भजनांत बुडून गेलो पुण ताजे आवसूक तें पसंत न्हय आशिल्लें. संसारा कडे कांय तरी लक्ष दीवनातिल्लें सदा देवळांत वचून ताळू वाजून भजन करून बेसूचे नामदेवाचेर आवसूले उतरांक येदो सरी व्यत्यास हाडूक आवसलोना.

एक दिसा ती देवळांत वचून थंय बेसल्ले नामदेवाक घराकडे व्हरूक चोयली. नामदेव हालना पळोवन पांडुरंग तिजे संगात नामाचें रूप घेवन वचाक लागलो. नामदेवाचे हाताक धरून गोणाई चमकता आसतना तीणे ताजे कडे पळयलें तेन्ना तिका निज पांडुरंगूच दिसलो. तीणे म्हळ्ळें. "आरे तूं कोण आयला? माका मिजो नामदेव तं जाय." अशी म्हणूनिक तो नामदेवूच म्हूण दिसूक लागलो. तरी ती परतून देवळांत गेली आनी स्वंत नामदेवाकच घेवन घरांत परतली.

दामाशेटी वृद्ध जालेले कारणान सर्व भार नामदेवाचेर पडलो. पुण संसाराचेर तात्पर्य नाशिल्ले नामदेवान कांयीच करनातिल्यांन घरचे सगळ्यांक भारी कष्ट जाले. भजन कीर्तन विना तो वेगळें कसलेंच नेण आशिल्लो. नामदेवाक आनी पांडुरंगाक दोस्ती सारखी जाली आनी ते कारणान नामादेवाले मनांत स्वल्प अहंकार भरूक लागलो. आपण्या इतलो होडलो भक्तु वेगळो ना म्हूण ताका गर्व जालें.

एकदां ज्ञानदेव आनी ताजीं तीन भावुंडां पंढरपुरांत आयलीं आनी तांची भेट नामदेवाचे लागी जाली. ज्ञानदेवाची भयणी मुक्ताबाईक

हें समजलें कि नामदेव आपले भक्तीचे प्रति अहंकार दवरता. गुरुपदेश सिवाय ताजो अहंकार ना जावना. गुरुपदेश मेळचे खातीर विसोबा खेचर नावांचे गुरूक दिकूक तानी नामदेवाक उपदेश दिलो. त्या प्रमाण नामदेव नागनाथ क्षेत्रांत गेलो. तेन्ना थंय दिकिल्लें दृश्य विचित्र आशिल्लें. वृद्ध कुष्ठ देहाचो विसोबा खेचर आपले पाय शिवलिंगाचेर दवरून पडला. आश्चर्य पावून नामदेवान विसोबाचे लागी म्हळ्ळें "महाराज, शिवलिंगाचेर दवरलेले पाय दूरा काडून दवरका." तेन्ना विसोबा खेचर नामदेवाक पळोवूक लागलो आनी अशी सांगीलें "आरे बाबा, हांव म्हांतारो जालां. मिजीं इंद्रियां हांवे सांगल्यार आयकनाय. तूंच मिजे पाय काडून जंय देव ना थंय दवर." नामदेवान तशी विसोबाचे पाय शिवलिंगार साकून उबारून खाल दवरले. पुण दवरलेले कडे पायां पोंदाक एक शिवलिंग प्रत्यक्ष जालें. आश्चर्य चकित नामदेवान पाय दुसेरी वेगळे कडे दवरले. थंयीय दृष्टि पडलें एक शिवलिंग. हो चमत्कार पळोवन नामदेव विसोबाचे पायांकडे पडलो. विसोबान नामाचे मात्यार हात दवरून आशिर्वाद दिलो. "देव नाशिल्लो स्थाय एक सरी ना. तुजो पंढरपुराचो देव विठळ सर्व व्यापी आसा". हें ज्ञान दिल्लें नंतणा विसोबान नामदेवाक अध्यात्माचो उपदेश केलो. थोडे दीस विसोबाचे लागी सहवास करून नामदेव पंढरपुराक परतलो.

गुरुपदेशान नामदेवाक कितें परिवर्तन जालें हें पळोंवचाक विठळ एक सूण्याकुत्र्याचें रूप धरून नामदेव जेवूक बेसल्ले कडे गेलो. एकाएक ते कुत्र्यान नामदेवाचे वाटळेंतुली भाकरी झोपय मारली. तेन्ना नामदेव तुपा गिंदलय घेवन कुत्र्याचे मागशीं धावूक लागलो. "देवा सुक्की भाकरी खावू नाका. पोट दुकतलें. तुपांत बुडोवन खा!" हें आयकून नामदेवाक पूर्ण रूपान सर्वव्यापी देवाची वळक जाल्या म्हूण पांडुरंगाक खात्रि जाली.

गुरु विसोबाचे अनुग्रहाचे कारण नामदेवाचे जीवनांत क्रांतीच

घडून आयली. कालि तांय केवल भक्त आशिल्लो. पुण गुरुपदेशान ताजे भक्तीक ज्ञानाचे दोळे प्राप्त जाले. परमात्मा सर्वस्थल सर्वकाळ व्यापून आसा. ताका मूर्तिरूपांत स्थल कालांनी मर्यादित करूक साध्य न्हय. सगुण विठळाचे स्वरूपांत नामदेव विश्वव्यापक, निर्गुण, निराकार परमात्माकच पळोवूक लागलो. गुरुपदेशाची प्राप्ती जाली नंतर नामदेवाक नाथ संप्रदायांतुली विचारधारा प्राप्त जाली. अशी आसूनूय तागेले भावसृष्टींत हरिहरैक्य आशिल्लें.

एकदां पांडुरंगान नामदेवाचे लागी म्हळ्ळें. "नाम्या, तूं मिजो प्रिय भक्त, हाजी शंका नाका. तरी तूं संसारा विषयांचे आनी कुटुंब विषयांचे लागी उदासपण दाकोवनाका. थोडें तरी तांचेरीय लक्ष दवर." नामदेवाक तरी हें आयकून कोप आयलो आनी तो गांव सोडून गेलो. पांडुरंगान प्रेमान ताजे फाटीं वचून ताका धरून परतून हाडलो.

नामदेवाचे जीवनांत ज्ञानदेवानय क्रांती घडोवन हाडली. नामाकय सांगातांत घेवून ज्ञानदेव तीर्थयात्रेक भायर सरलो. पंढरपूर सोडून राबूक कल्पनेंत सरी कष्ट आशिल्ले नामदेवान पांडुरंगाचे नामस्मरण करत, कल्पनेंत पांडुरंगाक मेळत ज्ञानदेवाचे सांगातांत यात्रेंत लागलो. तांचे सांगातांत आनीकय खूब संत एकत्र जालेल्यान संतसंगाचो अप्रूप अनुभवूय नामाक मेळ्ळो.

तीर्थयात्रेचे काळाक ज्ञानदेवाचे आत्म विवेकाचे गहन-गूढ विचार आयकूक मेळ्ळे. दक्षिणेंत, उत्तरेंत अशी एकूण तीन यात्रा करून नामदेव पंजाबांत पावलो. ताजी हिन्दी भाषेंतुली काव्यरचना हेच कालाक शुरु जाली. हिन्दींतूय ताजे पारमार्थिक विचारांचो प्रभाव खूब पडला म्हूण 'ग्रंथसाहेब' ह्या विशिष्ट ग्रंथात ताजीं थोडीं पदां समावेश जाल्यांय.

नामदेवान भागवत् धर्माचो प्रचार केला आनी साबार अभंगाची

रचना केल्या. ताजे अंतराचो सार ताजे एकेक अभंगांतूय स्वाभाविकपणान व्यक्त जाता. ताजे पारमार्थिक जीवन दर्शावंचीं तसलीं तीं अभंगां. ताजे असीम, उत्कट भक्तीचो सुगंध परमळांवचे तसले ते भावगीत. श्रीकृष्ण बालक्रीडा, आदी, समाधी, तीर्थावळी अशी तीन प्रकार, ग्रंथसाहेबांत आसपाविलीं अभंगां, नीतिशास्त्र उपदेशा सारके स्वानुभव विवरण केलेलीं अभंगां अशी साबार रचना नामदेवाचीं जावन मेळताय.

पंढरपुरांत पांडुरंगाचे देवळांत येंवचे सर्व संतांचे पाय आपण्यार लागूका म्हणून नामदेवान देवळाचे महाद्वारांत आशिल्ले फातरीचे खाल क्रिस्ताब्द 1352 वर्षा समाधि घेतली. ताजो जीवनकाल जावन सुमार सातशें वर्षा जालीं तरी ताची कीर्ति आनी उडगास भारतीय जनांनी आजीय जिवंत दवरला.

# नामदेव वाणी

वैष्णवांचो जालो मेळ
भियेवन धावलो कलिकाल
आयले आयले हरिदास
कलिकाला वयरी करतले जाले वास
पापांक लागलें भिरांत*
धावून गेलें मारून किंचाट
नामा म्हणता केशवाक मेळूक
वैष्णवांचे सांगातांत लाग चलूक

❊

आशा ती ना जाका
देव कशी मारीत ताका
जेन्ना सुखा उन्नतीचो वेळ
मोहांक स्थाय पायाचे खाल
मनांत जेन्ना सर्वांचेर समभाव
तेन्ना मन भरून वासुदेव
नामा म्हणता - आंगांत प्रेम
आनी मुखांत विठोबाचें नाम

*भिरांत - भय

धन्य तो संत जन्मल्लो संसारांत
जो नारायणाचें ध्यान करता काळजांत
गायता नारायण, नारायणाचें ध्यानीं
धन्य जाली ताजी जननी
चालीक लायलो तीणे कुळाचो उद्धार
नामा म्हणता - तरण करता तो निर्धार*[1]

※

पूर्ण रूपान करुणा केल्ली सदगुरून
निज वस्तू दाकयलें मिज्यांत
मिजें अंतरसुख दाकयलें दोळ्यांत
दिल्ली प्रेमकला ज्ञानमुखेन
फारीक*[2] करचें कशी तें रीण
ह्या वरी केल्यां, ना आनी पुनर्जनन
नामा म्हणता - दाकयले जे योग्य
विसरू जावना विठोबाचे पाय

*[1]निर्धार - निश्चित, *[2]फारीक - परतून दीवप (रीण)

वेंतभर* पोटाचेच मागशी लागलो
संताचे संगात घेवूक सोडना म्हूण बेसलो
पोट मिजी आवस, पोट मिजो बापूस
चिंतेंत केवल पोट, आसूनूय वेगळें सास
पोट मिजो बंधू, पोट मिजी भयणी
पोटानच मू घेतल्या मागून ही कष्टाकाणी
विष्णुदास नामा पोटाकडे मू चोयता
कितले स्थाय वेगळे आसा म्हूण नेणता

❊

घातपात करचो न्हय, न्हय कलावंत
न्हय हांव शास्त्रज्ञ वा पंडित
दळदिरांतुलो दळदीरो, सेवक संतांचो
नामधारक हांव विठोबाचो
न्हय बहुश्रुत, दाता, ज्ञानशील
न्हय हांव तर्कवादी वाचाळ
नामा म्हणता - आसून विठोबाचो बालक
नामोच्चारणान जाता पेलतडी पावूक

*वेंतभर - विसकळायलेल्या हाताचो उंगटो साकून किरांगुळे बोटाचे मद्देंचें अंतर. पोटाचें माप तितलेंच खंय.

तुजेर प्रेम मिजे हरद्याक आवडता*
चरण तुजीं पांडुरंगा हांव ना सोडतां
कित्या खातीर दुबळेपण थोडे कारणांत
देवा तुका ऊणाव हाडलो कसल्यांत
चंद्र चकोराचे आनन्दमय भेटेंत
कित्याक वता ताजी कला सुकत
नामा म्हणता-अनाथ माका सांभाळ
राब स्थिर मिजे अंतरीं हृदय कमळ

❊

अमृता पशी गोड तुजें नांव देवा
तरी मिजें मन कित्या लागना केशवा
कितें करुं सांग माका पंढरीच्या राया
मिजे ध्यानांत येना कित्याक तुजी काया
कीर्तनां गायतना नीद घेता वेष्टून
मन मिजें गुंतल्यां विषयांचे सूखान
हरिदास गर्जताय हरिनामाची कीर्ती
नामा म्हणता-तरी मिजे मनांत येना ती पूर्ती

*आवड - ओड, इच्छा, रुची

तुजे चरणार पावून मिजी व्यथा सरली
मुकार एक महत्चिंता आयली
क्षणान माका दिशी मुक्ति पांडुरंग
मागीर कशी माका मेळतलो संतसंग
पंढरीचो आनन्द हो सुखदायक
कोणाचे दोळ्यांनी पळोवूं?
तुजी कथा अमृत संजीवनी आपणाक
कोणाचे कानानीं आयकूं?
म्हणून मिजो जीव जाला जड
करता तूं मुरारी क्षणान उदासपण चड
नामा म्हणता-करूक तूजी चरण सेवा
जन्मांतरांतूय भाग्य मेळका देवा

*

आतां पांडुरंगाचें स्मरण करचें
चूकयता तें चक्र जन्ममरणाचें
अशी थोडो करी नेम
स्मरण सदा करूक कृष्णराम
जो अशी चिंतून करता ध्यान
ताजान आसता समाधान
नामा म्हणता-जे हरिदास
तांकां आसुका असले अभ्यास

जिबेन केशवाचें कीर्तन करूया
एक राम विना सर्वय मिथ्या
म्हणून हरिरंगांत बुडाय सग
हरिनाम घेतना महापापांचो जाता भंग
मनांत चिंतन करतना जाता तदरूप
मिथ्या विषयांत बुडतना मेळत वे सूख?
पूजन कराय तुमी अच्युताचें
नामा म्हणता-एक मनान सत्याचें

※

तप करना तरी जप करी हृषीकेशाचें
दीसरात काडी नाम राघवाचें
तीर्थांत उत्तम तीर्थ हरिनाम हें समर्थ
रामनामान मू जाता कृतार्थ
साधना साध्य जातलें, तुंटतलें बंधन
सदा सुफ़ल वचनांनी नारायण
नामा म्हणता-हरिनामाचें उच्चारण
तेन्ना जाता इहलोकां साकून उद्धारण

कृष्णाचीं कीर्तनां जाका आवडना
जन्मांत्यार भयानक नरकांत पडता
कृष्णनाम जो कानांनी आयकना
ताका जगांत स्थाय खंय मेळता?
कृष्णविष्णू कथा जाका आवडना
ताका ग्रह खंडित बाधा दिता
रामकृष्ण हरिमूर्तीक जो ध्यान करना
तो अंत्यार यमनीति जाण जाता
नामा म्हणता - असले नर कलियुगांत साबार
धर्मत्याग करताय घरांधर

※

कपट वैराग्य अनर्थाचें मूळ
आशा ती केवल मिथ्या सदा काळ
आत्म्या विशीं ना विवेक येदो सरी
आसता केवल रूच आशे वयरी
रजोगुण, तमोगुण कारणान जाताय पातकी
कुरडेपण भरलेले ब्राह्मण कितलेकी
नामा म्हणता-आसले साबार उपाय
कारण दूराच विठोबाचे पाय

तीर्थाटन करून कितें कार्य
मनांत भरल्यां मू पाप
तपस्या करून कितें कार्य
ना मू मनांत पश्चाताप
इच्छेचें पाप लागल्यां मनाक
वचूना तें तीर्थयात्रेनय तनिक*
नामा म्हणता - जाय पश्चाताप
तेन्ना निसरता सर्व पाप

❊

आपलें कल्याण आपण नेण
तरी भविष्य सांगातीचें बहु ज्ञान
नेणतलो परब्रह्माक जाणतलो जाता
मायाजाळ्यांत गुंथलोलो अभक्त आसता
जीव आनी देव एकरूप म्हणताय
तरी केशवाचे सेवेक फाट करताय
नामा म्हणता - तोची केशवाक जाणता
जो केशवाचें नांव घेता आनी मुक्त जाता

*तनिक - येद्दें सरी, चिक्के

जेन्ना तांय देहाचें ममत्व तुंटलेंना
विषयसुखांतुल्यान मन वांचलेंना
तेन्ना तांय नित्य सूख कशीच कळचेंना
बाबडो राबतलो प्रेम सुख नेणतना
एक हांवच भक्त, हांवच जाता मुक्त
अशी म्हणता दुराचारी पतित
नामा म्हणता - देवा तुजी कृपा विना
विश्रांती जोडूक जांवचीना

❊

मिजी इच्छा पूर्ती करी देवा
केशवा माधवा नारायणा
ना मिजो आनीक कोण बन्धू
मिजेर उपेक्षा करूनाका करुणा सिंधू
अनाथांचो नाथ तूं आसा दयाळू
प्रार्थना कितें करूं वेळावेळू
नामा म्हणता - जीव जेन्ना संकष्टांत
तेन्नाय हे वरीच हांव तूजी आस* धरीत

*आस - आशा

विठळाचें नाम जे आवसूचे वोंटारी
तिजे पोटांत विठोबा आसा गर्भवासी
जाचे कुळांत सदा यात्रा पंढरीची
ताजे घरांत बाललीला सदा विठोबाची
नामा म्हणता - काडता उतर हांव जिबेरी
केशवा, असत्य वचन जायत तरीय

*

पांडुरंगा कसलो करका विचार
सांग, परमात्म रूपा तू निर्धार
कशी आयली देवा ही कीर्ति
कोणे आकारांत हाडलेली करून प्रीति
तुजे सारकीं मायेन हाडलेलीं
अनेक रूपां गोपिकांक दाकयलीं
तनमनान सगळो सर्वव्यापी
नामा म्हणता - अनंत सगुण रूपी

मन नेण दवरूक तुजेर विश्वास
गोड दिसता हेर सर्व आस
तुजो प्रेम नेण, तुजेर प्रेम नेण
केशीराजा, सांग कितें करूं आपण
घेतली संसारांत कर्मांची मोट
नरहरी, करी कृपा मिजेर चड
नामा म्हणता - हांव सदा अपराधी
केशवा, कसलीय शिकोवणी माका सांगून दी

❊

प्रेमरूपी फांसी घालून गळा
जिकलो माका तूवें गोपाला
करूक एक मनाची जोडी
विठळान पायाक मिजे घाली बेडी
हृदय करून बंदखणी
विठळान कैद केलो मनीं
सोहं* शब्दान मार घेतलो समृद्ध
विठळ जालो करुणार्द्र
नामा म्हणता - सोडूना विठळान
जीवाक, लळतना कष्टान

*सोहं - हांव तोच

मिजो जन्मू धन्य मिजो वंशूय धन्य
देवा तूंच सर्वस्व, हांव विष्णुदास धन्य
काम धाम मिजें केशवा चरणार तूजे
दीसरात एकेक क्षणाय साथ तुजे
उपकार सांगूका खूब, जाणे दिल्यां सर्वसूख
राखूक जावन राब, मिजे अंतरमुख
नामा म्हणता - जगांत अलभ्य लभ्य जाला
विटेचे वयरी येवन हरि राबला

*

देह वचो ना तरी राबो
पांडुरंगाचेर दृढ भाव आसो
सोडूना चरण सर्वथा
सोपुत तुजो पंढरीनाथा
तोंडार, तुजें मंगळ नाम
हृदयांत आसा अखंडित प्रेम
नामा म्हणता - केला आसलो नेम
चलोंवूक माका केशवराजान सप्रेम

लजा सोडून म्हण कीर्तन हरीचें
संसार जीवन पळय दोनीच दिसांचें
गळ्यांत आयलेंना म्हणून हरिनाम सोडूनाका
साबार भ्रमांत वचून पडूनाका
बालकांची उलोवणी आवसूक दिता प्रीति
भरी तशीच मनांत हरीची कीर्ति
उलोवणेंत सर्वय करी श्रीहरीचें नमन
संसार सागर पार करूक तसलो मू जाण
जाणे तरणेपणार भ्रम केला एक क्षण
जन्मांतरांत भोगुका जाता पतन
तूं आसता मागूचो आनी हरि दिंवचो
नामा म्हणता - शरण वच अनंताचो

*

आमचो विठळ आसून होड
पळोंवचें नाका इतर देवांचें तोंड
एकच विठळाचे सिवाय
नाका भजन आनी कोणाचेंय
आमकां एक विधाता भाव
केन्नाच म्हणू ना इतर देव
नित्य करूया हो अभ्यास
म्हणता नामा विष्णुदास

अशी आज्ञा दिता भक्तांक आपण
त्याग कराय अभिमान, तूमी जाणून
वळकाय प्रत्यक्ष स्वरूप सगुण
सर्वांतूय दिसता तोच नारायण
नामा म्हणता - डोलून आनन्दान
गोपिका सयत गोपालाक पळयत तत्क्षण

❊

मन मिजें बाण, जीब मिजी कातरि
जन्माची संकाळ ताजान कातरी
कित्याक करूं जाति? कित्याक करूं जातिभेद
रामनाम जप कराय दीसरात
रंगविना रंगांवूक, सूव विना सींवूक
साध्य न्हय, रामनाम विना जीयेवूंक
नमन करता, हरीचे गुण गायता
दीसरात आपण्यालें सर्वय बळी दिता
भांगराची सूव रुप्याचें सूत
नामाचें मन हरिचेर सतत

उलोवणेंत राम नामावळ
तो पुरुष अनमोल
धन्य ताजें शरीर
जो करता लोकांचो उपकार
करता उद्धार रिणीयांक
हरि तो विश्वव्यापक
नामा म्हणता - स्वामी
सुखान वास कर अंतर्यामी

*

कृपेची सावळी लागली अखंड
ममता रूपी देवाची जाली भेंट
आतां मिज्यांत कोणाचेंय भय ना
जन्ममरणाचें दुख वरलेंना
बंधनमोक्षाची दूरा जाली चिंता
ध्यान केवल तुजें गोविंदा
नामा म्हणता - मिजीं अनुभवगुणां
आसून विसरशीना तुजीं चरणां

वाचू नाका वेद, नाका शास्त्रबोध
पारायण करी नांवांचें प्रबंध
ग्रहण जायना ब्रह्मज्ञान तरी जाता वैराग्य
संतसंगान मेळता सरळ भक्ति भाग्य
हेर क्रिया कर्मां करता हे कलियुगांत
सांग, पूर्व पापांत साकून कोण वांचयत
नामा म्हणता - सांगताय संतलोक
हाजा चड विश्रांति ना आनीक

*

पाषाणाचो देव केन्नाय तरी सांगना
मिजे व्याधीचें हरण करत केन्ना
फातराचे मूर्तीक मानून घेतला देव
खरे देवाक तरी भिन्न मू भाव
फातराचो देव इच्छीता दीवूक भरपूर
भंग करता मागीर कित्याक तर
पाषाणा देवाचेर भक्ति करता आपण
सर्व मुक्ति प्राप्तीची आशा तरी मूर्खपण

# ज्ञानदेव

1275-1297



# संत ज्ञानदेव

माराठी भक्ति साहित्यांत संत ज्ञानदेवाक उज्वल स्थान आसा. महाराष्ट्रांतुले पैठणाचे लागी 'आपेगांवांत' ज्ञानदेवाचो जन्म क्रिस्ताब्द 1275 वर्षा जालो. नाथ संप्रदायाचे*[1] विठळपंत आनी रुकमाबाईले चार चेरडुवांतुलो दुशेरो आशिल्लो ज्ञानदेव.

विठळपंत आनी रुकमाची व्हारडिक जाले उपरांते थोडे काळांनी विठळपंत गृहस्थाश्रम सोडून वारणासीचे रामानन्द स्वामीचो शिष्य जावन सन्यास स्वीकारून भक्तिभावान जियेवूक लागलो. थांगा भारी दुखी जावन रुकमा आश्वत्थाची सेवा करून अनुष्ठानान जियेवूक लागली.

एकदां स्वामी रामानन्द 'आलंदींत'*[2] आयिले तेन्ना रुकमा स्वामीचो आशिर्वाद घेवूक गेली. स्वामीन तिका पुत्रवती जावूक वरु दिल्लो म्हणतना रुकमान स्वामीचे लागी आपण्यालें चरित्र सगळें सांगलें. 'पतिविना पुत्र कशी? पति सन्यास स्वीकारून गेला.' तीणे सांगलें. स्वामी रामानन्द एक क्षण चिंता करून सांगूक लागलो. 'वरु दिवयलोलो देवूच तो सत्य करयतलो'. वारणासी परतल्ले स्वामीक विठळपंतालें निज चरित्र समजल्ले कारणान ताका पुनर गृहस्थाश्रम-धर्म पालन करूक आदेश दीवन परतिलो. सन्यासांत साकून परतून आयलेले विठळपंताक लोकांचो उपहास सहन

---

*[1]नाथ संप्रदाय - आटावे वा णवावे शतकांत मत्स्येंद्रनाथान स्थापन केल्लेले नाथ संप्रदायाचे प्रमुख लक्ष्य, जीवन मुक्ति अथवा पुनर्जन्मांत साकून मुक्ति. गुरु शिष्याक दीक्षा दीवन हे संप्रदायांत प्रवेश करयता आनी जाति भेद नाशिल्लें स्वतंत्र जावन समाधानेन, आनन्दान जीवन काडूक मार्ग दर्शन दिता.

*[2]आलंदी - पुणे लागी आशिल्लो रुकमाचो गांव. विठळपंत आनी रुकमाची व्हारडीक जाल्लेले थोडे काळानी विठळाची आवस बापसूची मृत्यू जाली आनी विठळ दुखांत बुडलो. तेन्ना तांकां दोगांकय रुकमाचे बापसून आलंदींत आशिल्ले आपले घरकडे व्हरून राबयलीं.

करका जालें. आपले वर्गांत साकून तांकां भ्रष्ट मानून बहिष्कार केल्लेले कारणान तीं गांवां भायर एक खोमट बांदून राबूक लागलीं. अशी थोडीं वर्षां क्रमान गेलीं. तांकां चौग जाण चेरडूवां जालीं. म्हालगडो निवृत्तिनाथ, दुशेरो ज्ञानदेव, तिसरो सोपानदेव आनी तांची भयणी मुक्ता बाई.

चेरडुवांक धर्मशास्त्रांचो विद्याभ्यास दिंवचे खातीर विठळ आलंदीचे ब्राह्मण सभेंत वचून अपराधाक क्षमा मागूक लागलो. जाल्यार कुला भायर घाल्लेल्यांक दुशेरी भितर घेंवचें शास्त्रांत खंयीच सांगलेंना म्हळ्ळेले कारणान ते चेरडुवांक विद्याभ्यास दीवूक ब्राह्मण पंडित तयार जालेनाय. आनी बापसूनच तांका विद्या दिंवका जाली.

चेरडुवांक दीक्षा दिंवचे खातीर पैठणाचे ब्राह्मणसभेक कितेंय करूक जायत म्हूण आलंदीचे ब्राह्मणांनी सांगिल्लें अनुसरून विठळपंत थंय वचून मागणी करूक लागलो. आपण्यालो पूत ज्ञानदेवाक दाकोवन विठळान परिचय दिलो - "हो ज्ञानदेव" हें आयकून ब्राह्मणांनी फकाणां मारलीं. "हो ज्ञानदेव तं जाल्यार मागीर कित्याक तो ज्ञान ग्रहण करूक भोंवता?" तेन्ना थंय भायरच्यान एक गोवाळो एक म्हश्याक घेवन वतालो. "चल ज्ञाना चल" म्हणून तो ते म्हश्याक मारून मारून मुकार व्हरतालो. तें पळोवन ते ब्राह्मणांनी निमगीलें "त्या म्हश्याक आनी तुगेले ज्ञानाक कितें फरक?"

तेन्ना एक आश्चर्य जालें कि त्या म्हश्यान फाटीर घेतल्ले पेटांची निशाणी ज्ञानदेवाचे फाटीर उदेता दिकूक पडली. ते वरिष्ट ब्राह्मणांक मगीरीय एक संशय. म्हश्याक वेद उच्चारण करूक जायत? तेन्ना ज्ञानदेव त्या म्हश्याचे लागी निवेदन करूक लागलो - 'म्हण रे ज्ञाना रिगवेद! प्रणवाचो मूळ शब्द ओंकार म्हण! म्हण रे ज्ञाना'. तावळ तो चमत्कार जालो! त्या म्हश्याचे तोंडात साकून वेद पाठ उच्चारण आयकूक आयलें. सगटय आश्र्चर्यान निशब्द जाले. तांकां समजलें कि हे तीन बालक तीन

देवांचे अवतार आनी मुक्ताबाई आदिमातेचो अवतार.ते ब्राह्मण-श्रेष्ठ आपण्याले अविवेकाक क्षमा मागूक लागले.

बाल्य प्रायेरीच ज्ञानदेवाक भागवताची ओड आशिल्ली. बारा वर्षाचेर निवृत्तिनाथान*[1] ज्ञानदेवाक दीक्षा दिल्ली आनी नाथ संप्रदायांत प्रवेश करयलो. विठळ आनी रुकमा सन्यास स्वीकारूक बदरीनाथाक गेलीं.

आलंदींत विसोबा नांवाचो एक कुटिल ब्राह्मण आशिल्लो. ताका ज्ञानदेवाचेर खूब विरोध आशिल्लो आनीक तांकां तंग करूक सोदतालो. एक दिसा मुक्ताबाई रोटी भाजूक कायली घेवूक म्हूण वताली. विसोबाक हें समजलें आनी ताणे लोहाराचे लागी वचून मुक्ताक कायली दीवूक नज म्हूण ताकीद दिल्लें. विसोबाचो रीणेली आशिल्यान लोहारान मुक्ताक कायली दीवूक इनकार केल्लो आनी ती रडून घराकडे परतली. कायरीं समजून ज्ञानदेवान आपण्याले फाटीर रोटी भाजी म्हूण तिजे लागी सांगलें. दूरा निपून राबून विसोबान हें अद्‌भुत दृश्य पळयलें कि मुक्ता ज्ञानदेवाले फाटीर घालून रोटी भाजीता आनी तीं सर्वय स्वादान खाण खाताय. विसोबाक हें पळोवन सिद्ध जालें ज्ञानदेव एक असाधारण सद्‌पुरुष. आनी पश्चाताप भरून तो तांचे चरणार पडलो. भक्तीन ज्ञानदेवाचे उष्टे वाट्यांत साकून येदें काणू तो खाता पळोवन तानी ताका खेचर (गाढव) म्हूण म्हळ्ळें. तेन्ना साकून तो विसोबा खेचर नांवान वळकूक लागलो आनी मागीर नामदेवाक गुरुपदेश दीवूकय पावलो.

ज्ञानदेव आनी भावुंडां पंढरपुराक तीर्थयात्रेक भायर सरलीं. सर्वकडेय एकेक अद्‌भुत दाकयत ज्ञानदेव पंढरपुराक पावलो. नामदेवाचे लागीय तांची भेंट जाली आनी नामदेवाक गुरुपदेश मेळूक तीं कारणभूत जालीं. नामदेव आनी हेर संतांकय सांगातांत घेवून खूब कडे तीर्थयात्रा करून तीं आलंदीत परतून पावलीं.

*[1]त्रयंबक लागी एक दोगरांचेर आशिल्ले एक गुफेंत ध्यानांत बेसल्ले गहिनीनाथान निवृत्तिनाथाक दीक्षा दिल्ले उपरांते ज्ञानदेवाक दीक्षा दीवूक आदेश दिलो.

निवृत्तिनाथाचे उपदेशान अहमद नगरांतुले नेवास गावांत आसतना ज्ञानदेवान भागवताचेर सरळ मराठी विवरण रचूक आरांभिलें. ही भावार्थ दीपिका ज्ञानेश्वरी नावान वळकूक लागली. ज्ञानेश्वरी नंतना अमृतानुभव, छांगदेव*[1] पसष्टी आनी सासा भायर अभंगांय ज्ञानदेवान रचिलीं जावन मेळताय.

ज्ञानदेवान भागवत धर्माचो खूब प्रचार केलो आनी ताजें पुराण पारायण आयकूक गांवगावांत साकून साबार भक्त आनी ज्ञानार्थी एकडे जाताले. ज्ञानदेवान वारकरी*[2] संप्रदायाची स्थापना केल्ली. ज्ञानदेवान अद्वैत धर्म, शैव विचारधारा, नाथ संप्रदाय आनी भागवत् भक्ति हें सर्वय एक करून आशिल्लो एक संप्रदाय प्रचारार हाडलो.

अद्वैत सिद्धांत्यांचे मद्दें साबार प्रचार आशिल्ली ज्ञानदेवाली रचनां तं 'अमृतानुभव'. कवित्व भरलेले ज्ञानेश्वरींत 9000 ओव्यो पोरणे मराठींत सरळ जावन समजूचे तसले भाषेन मेळताय. संस्कृत भाषेंतुलें श्रीमद् महाभागवत् साधारण जनांक लगेन समजूका म्हूण रचिली ज्ञानेश्वरी आजीय महाराष्ट्रांतुले देवळांकडे आनी धार्मीक संस्थांकडे पारायण करून येत्ताय. 1297 वर्षा बावीस वर्षाचे तरुण प्रायेचेर ज्ञानदेवान आलंदींत सजीवन समाधी घेतली.

---

*[1]छांगदेव - एक योगी आपले शक्तीचेर गर्व भरून ज्ञानदेवाक आनी भावुंडाक परिहास करूक म्हूण तांचे आश्रमांत वतालो. आपले आश्रमांत एक सोप्यार बेसूनाशिल्ले तानीं दूरा साकूनूच वागा फाटीर बेसून येंवचे छांगदेवाक दिकीलो. बेसल्ले तशीच तो सोपो सयत तीं छांगदेवाचे लागी गेलीं आनी तें पळोवन छांगदेव आश्चर्य चकित जावन तांचे पायांकडे पडलो. तांची दैवीक शक्ति पळोवन आपलो गर्व सोडून तांचो शिष्य जालो.

*[2]वारकरी संप्रदाय - वार्षाक दोनी पावटी, आशाढ एकादशीक आनी कार्तिक एकादशीक पंढरपुराक करची तीर्थयात्रा मोक्षप्राप्तीक कारण जाता अशी म्हूण दृढ विश्वास दवरची हे संप्रदायाची रीति.

# ज्ञानदेव वाणी

पुनवे चंद्र जशी समुद्राची करता भरती
तशी परमज्ञानाची दिताय संतजनां जागृती
जाचे ह्रदयांत परमात्म रूपी चंद्रमा
ताचे मनांत सदा आसता पूर्णीमा
घनश्यामाचे आलिंगनान सदाची
जाता भरती परमात्म प्रेमाची
ज्ञानदेव म्हणता - मोह निशेष सोडी
तेन्ना लागता परमात्माची गोडी

❊

देह चोरून गेल्यां, खंय वचून सोदूं
भूख लागल्या, कितें हांवें खावूं
पळोवूक ना कांय, कितें पळोवूं
लक्ष्य एकय ना, कोणाक ध्यान करूं
पागार नासून खंय चित्र रचूं
देवान रचिल्ले संसार-चित्राक
ना मू अंत दिकचाक
ज्ञान नाशिल्ले तेन्ना मात्र
जगत-रूपी माया चित्र
ज्ञानदेव म्हणता-आयक ही वाणी
वच रखुमादेविवर विठळाचे शरणी

मनफुलांची करून माळा
घालका अशी भरून गळा
भक्ति आनी बोध दोगांय
परमात्माक वंदन करताय
थंय अद्वैत बोध करता वास
धरून रूप सास सास
आनी जो वैराग्य युक्त
कष्ट काडून करता ज्ञान प्राप्त
जेन्ना पळयलें काळजा देवळ
भितर दिकली दुर्गाक त्या वेळ
रखुमादेवीवर जो विठळ
तोच मू आधार सदाकाळ

❋

दुदा वयरची साया दिल्लेल्या वरी
मिजे तुजे मजगतीं अवस्था बरी
तुजें ज्ञान जालें प्राप्त
उमाळ्यांनी उतरां आयलीं तृप्त
अनुदिन तुजे प्रेमान डोलता आनन्दान
वरलीना आशा, उदासपण, विसरलो मीतूंपण
रखुमादेविवर विठळांत जो रिगून राबला
ते संत साधून आनन्द तो दिकला.

कापुरा सारके ब्रह्म रस
मिजे अंतस्करणांत भरून आसा
इंद्रियाक ना जालो हित परमळ
लय पावून ब्रह्मरसान त्या वेळ
ते कारणान वरलोना स्वाद
वरलोना परमळ, अपशब्द
सुखदुखाक जागो वरलोना
मनांत वेगळें कसलेंय ना
मानून घेया, चार वेदय सांगतना
रखुमादेविवर विठळ सिवाय कांयच ना

※

ध्यान, मनवृत्ति, मंत्र आदी
त्रिकाल जपा जप जालीं प्रतिबंधी
कळ्ळेना माका, हांचान कसली विधी
निर्गुणाची तरी मेळ्ळीना सिद्धी
हांव गेलों निर्गुणाचे पयस*
हेच साधनानीं गेले दीस
आतां जाला निर्गुणाचो सोद
चारीय दिशेंत भरला म्हूण बोध
सप्त धातु शरीर, आकार आट
हांतु साकून वेगळो, विठळ श्रेष्ठ

*पयस - दूरा

चकोर समान मिजें लक्ष
अंतर्यामी ब्रह्ममेघाचे समक्ष
ते मेघाची अमृत वर्षाळ
मिजे जीवाक केलें जिवाळ
हात विना स्पर्शन विठळाचें
दोळे विना दर्शन निजब्रह्माचें.

*

बींयांत साकून फळ कीं
फळांत साकून बीं
पाल्ले, फूल आनी तशीच मूळ
चोयतनाय आश्चर्य मू फल
देवा असली तुजी रचना
कशीच समजूक जायना
हो विचार सत्य म्हणून
सिद्ध जाता अनुभवांत साकून
धरतरेची माती कीं
धरतरी मात्येची
असलेच दिकुयात
आनीकय अद्‌भुत
रखुमादेविवर विठळाचें ध्यान निरंतर
तेन्ना तो वास करता मिजे अंतर

आशिल्लें तें दिकलें
तरी दिकलें ना मू कसलें
सर्व दिकारीय व्यापून आशिल्ले
परमात्माक पळय, ज्ञानदेवान म्हळ्ळें
कर्तव्यां ना, ना व्हडपण
निज गोविंदराज विना ना आपण
रखुमादेविवर विठळाक पांव
भोगुयात ब्रह्मानंदाचो उत्सव

❊

परमप्रकाश आसा सर्वकडे व्याप्त
सांगताय अशी तरी धरताय भाव द्वैत
परमात्मांत द्वैत ना, ना अद्वैत
सर्व तत्वानय एक रूपी, भेदरहित
ताजें आनन्दमय तेज जीवांचें बीं
तरीय मेळना ताजें वळकीचें बीं
रखुमादेविवर विठळ राबता अदृश्य
आसूनूय निर्मल रूप वश्य

कसलेंय कळनातिलें तें अज्ञान
सर्वय कळून आसचें ज्ञान
पुण पूर्णरूपीचे वळकींत हें मिथ्या
अपणा वळकि सोदतना कळता हें सत्य
माया न्हय परमार्थाचें मूळार्थ
ब्रह्मानुभव भोगतना जाता सुख सार्थ
अनुभव तें नासून यथार्थ
जातले भार आनी पूराय व्यर्थ
ज्ञानदेव म्हणता - बंधनमुक्त, शून्य आनी
निराकारा भाशेन जातना नांव तत्वज्ञानी

*

आमचे देवाक नाम, गुण ना
स्थान, मान, रूप, रेखा ना
नित्य निराकाराक आमचें भजन
अहंब्रह्म अशी उचित ध्यान
ज्ञानदेव म्हणता - ध्यान केवल निमित्त
ताजान सर्वज्ञानीचें सामीप्य प्राप्त

देव देव म्हणून खंतय व्यर्थ फिरता।
अंतरंगांतुलो देव राबला तशी नेणता।
देवाक ना रूप देवाक ना नांव
देवाक खंचोय न्हय गांव
ज्ञानदेव म्हणता - आत्म रूपी देवा
करका तुजी अखंड सेवा

*

आकाशाचे पशी व्यापक
वायूचे पशी चालक
वेगळो न्हय अग्नीचो दाहक
तोच परमात्मा पूर्ण रूपक
तोच एकलो सनातन
वेगळो ना आनंदघन
दृश्य वस्तूंचे पशी सुगोचर
केवल ब्रह्मगुरु - म्हणता ज्ञानेश्वर

पुण्य जोडून स्वर्गप्राप्ती
पापांचे फल अधोगती
दानधर्मान इहलोकांत भोग विधी
तरी तीन प्रकाराकय समान गती
त्रिभुवनांतुले खंचेय लोकांतूय
विषयां तींच पांच आसताय
हांचोच भोग घेताय जीवेश्वर
ब्रह्मज्ञान मेळून म्हणता ज्ञानेश्वर
आपण्यान विषयांचो घोट सारको घेतला
तांची मिथ्या समजून ब्रह्मयोगांत बुडला

*

जेन्ना तांय अंतस्करण अशुद्ध
मंत्र, तंत्र, यंत्र हें सर्वय अबद्ध
जेन्ना तांय मेळना आत्म वळख
गुरु शिष्यपणांत आसता काळोख
योगान अष्टसिद्धि जाली प्राप्त
तरी तेंच करता बंधन शक्त
आत्मज्ञान विना, भ्रमांक पात्र
जावन वता साधना सर्वत्र
ज्ञानदेव म्हणता - सर्ववृत्ति शून्य
म्हूण लेकचो ज्ञानी धन्य

योग, याग हांचे आचरण यथाविधी
केल्लें तरीय हरीची जायना सिद्धी
कारण, अनुष्ठानांचो भरून अहंभाव
जाता, धोंगी धर्मभाव
निःसंदेह विश्वास विना ना देवज्ञान
गुरु विना मेळना अनुभव ज्ञान
तप विना देव जायना प्रसन्न
रहस्य विना हित सांगना कोण
ज्ञानदेव म्हणता अनुभवांचे दृष्टांतान
संसार सागर पार करयात संतसंगान

❊

व्हडलो पापीय भक्ति भरतना पाप मुक्त
अभक्ताचीं पापां वज्रलेप सारके घट
हरी भजन करनातिल्लो तो अभक्त
वरता पतित आनी देवहत*
संसारांत बेसून झांकचो वाचाळ
कशी ताका पांवत गोपाळ
ज्ञानदेव म्हणता - आत्म रूपी धन
सर्वोपरी परिपूर्ण ज्ञानाक निदान

*देवहत - भाग्य नाशिल्लो, अभागी

करता यात्रा, त्रिवेणी संगम आदी तीर्थ
पुण मनांत देवनाम ना, तरी सर्वय व्यर्थ
देवनामाचो विमुख आसूचो तो पापी
हरि विना कोण आसता सोडोवपी
पुण्य पुराणांत हेंच सांगल्यां वाल्मीकीन
नामोच्चारणान जाता लोकांचें उद्धारण
ज्ञानदेव म्हणता - जप कराय हरिनाम
परंपरेक शुद्धता मेळता परिणाम

*

अनंत जन्मांचे पापांची राश
हरिनामोच्चारणान क्षणमात्रेन नाश
उज्जो तणाक जशी करता समरूपी
तशी नामजप करचो जाता हरिरूपी
हरिमंत्रोच्चारण कितलें अगाध
जाचान जाता अहंकाराचें अंत
ज्ञानदेव म्हणता - मिजो हरि समर्थ
जाचे वर्णनेक उपनिषदां लागेन असमर्थ

विठळ नामोच्चारण करनाय तर
पडता नरक कुंडांत भयंकर
तुजी आळसाय सदाक सोडी
आनी विठळ नाम जिबेर हाडी
तीन अक्षरांचें विठळ नाम
स्वीकारलें शंकरान आसून अमृता सम
रखुमादेविवर विठळ नामान
महापातक्यांचें जाल्यां उद्धारण

❊

परमळा कापुरांत साखर मेळय
परमळ, गोडी, वरता दोनीय
मित्रत्व कराय सोडून फरक
श्रेष्ठ परमप्रेमाची जाता वळख
वनांत मद्दें राबून गांदा रूक
परमळायता, सांगाता रुकांक
जीवांचो जीव विठळ सावळो
दीना जावूक आपल्यासून वेगळो

ज्ञानस्वरूपाचें ध्यान करी
अन्य सर्वय अर्थहीन वजें सरी
शक्तीचो घमंड केवल व्यर्थ
श्रीगुरूक शरण पांव, जाता सार्थ
वेद सांगताय त्यजूनाका कर्म
करूनाका विषयसुखांचो धर्म
प्रपंचातुलें अन्य अर्थ सर्व व्यर्थ
रखुमादेविवर विठळ एकमात्र परमार्थ

❊

प्रपंचाची संसारकथा आसता विफल
आत्मचिंतन करचीं जगांत विरळ
नित्य सिद्ध आत्म्याचेर विचार करका
द्वैतभाव सोडका तनिक दवरूनाका
नामध्यान आसो मनाचें लक्ष्य
अविश्वासभावाक सोडी अलक्ष्य
निसंग ब्रह्मा संग ज्ञानाची गंगा
राबता भेदरहित आनी अभंगा

शांति, क्षमा, दया करता निर्व्यंग।*[1]
आत्मसुखाचो भोगी जावयात सर्वांग
जाका ना अंत, ना रूप, केवल चैतन्य
ताजे आनन्दमय प्रतिबिंब सर्वत्र दृश्य
माया पदार्थांची धरल्या सांगति
तरी नाका रे, इंद्रियांचेर नाका आसक्ति
ज्ञानदेव म्हणता - सोडी कल्पनेची काळखी
जगांत आत्मरूपी दीव्याची भरी ज्योती

❊

असार संसार साराचो करी संवकळ*[2]
तेन्ना तुंटता जन्ममरणाची संकाळ
दोळ्यानी पळयल्यार ग्रहण असाध्य
केवल ह्रदयाचे अंतरींच घेवूंक साध्य
अद्वैत साराची सिद्धी जाता सत्संगानी
तरी विरळ आसता ते परमज्ञानाचो ज्ञानी
ज्ञानदेव म्हणता - जाका उत्तम पूर्व पुण्य
ताका संतवचनाचरणानी हरितत्व प्राप्य

*[1]निर्व्यंग - निर्लोभ, अधिक *[2]संवकळ - संवय (Habit)

ज्ञानीक दिसता अन्य सग अज्ञानी
अज्ञानी गुरुकृपेन जाता ज्ञानी
गुरुदेण ज्ञानान शिष्य जाता कृतार्थ
अस्तित्व ताजें ब्रह्मपूर्णतेन सार्थ
आदिमध्यांत नाशिल्ले हरीचे लागी राबून
हरिविना ना कितेंय, घेता वळकून
गुरुकृपेन मन, धन, धर्म आदी
सगळें जीवित हरिरूप, भरल्या उमेदी

❊

सूर्योदय आनी अस्त कितले म्हूण कळना
तशी जन्ममरणाचीय साध्य न्हय गणना
इच्छेचे भोग कारण जन्ममरण सरचें ना
हेंच कारणान जन्मता गर्भांत नाना
पापपुण्याची राश चडत वतना
भोगता स्वर्गसुख वा नरकाची यातना
समान कर्मीक इहलोकांत सिवाय जन्मु ना
अशी जन्मांचे प्रकार तिनीचे चड ना
त्रिभुवनांत साकून मुक्त जातना
ज्ञानदेव म्हणता ब्रह्मांनन्दांतूच मू तेन्ना

हरिनाम महिमा नेण मूर्ख
घेना नाम आपले मुख
तोंडार आयलेलें सर्वय जल्पून
जाता ताजें अधःपतन
नामजप विना रक्षण ना
समजून घेया वेदशास्त्रांनी सांगतना
जो ब्रह्मा, वेद समजला
तो ते मस्तकार धरून राबला
जीवा, देवनामाची माळा
नित्य घाली तूं गळा
सांगता पुराण, जावयात मेकळो
कर्मजाळ्यांत साकून सगळो
दोळ्यांत हरिरूप कानांत हरिनाम
मनांत दवरनाका कित्याचेरीय काम
साधु भक्तांचो हरि आधार
आसता आवडी तांचेर निर्धार
म्हणता ज्ञानेश्वर
हरिनामाची साधना करता तर
पुण्यशयनीचें आसन युक्त
जाता ध्यान समाधि प्राप्त

# संत कबीर

हिन्दींतुले निर्गुण भक्ति मार्गाचे संत कवीं मद्दें कबीरदासाक सर्वश्रेष्ठ म्हूण मानून येताय. कबीरदासालो जन्मकाल, अम्मा बप्पा, माय गांव आदींची प्रमाणिक जाणविकाय मेळूक ना. ताचे जीवनकालाचे विषयांत इतिहास कारांक आनी कबीरपंथी लोकांक वेगवेगळेच अभिप्राय आसाय. हांनी सर्वांनीय केल्लेले गवेषणांतुल्यान हें समजून काडल्यां कि तांचे जीवन पंद्रावे शतकांत आशिल्लें. कबीरदासाचे जीवना पासून एकि प्रसिद्ध काणी अशी -

पुण्य नगरी काशींत एक ब्राह्मण कुटुंब आशिल्लें. ते परिवारांतुले एक युव विधवेक जन्मले चेरडाक सामाजिक व्यवस्थितीचे कारणान त्याग करका जालें. तिका असली एकि दुर्गति आयिल्ले खातीर देवाक आनी धर्माक शिरापून स्वयं शिरापून, ती आवसू तिगेले ते काळजा कुटक्याक, काशींतुले 'लहर' तळयांत उडोंवचाक म्हूण गेल्ली. काळजार फातर चडोवन, सामाजाचे भयान तें क्रूर कृत्य करूक भायर सरलेले ते आवसूक दया माया भरून तें साध्य न्हय जालें. ते बदलाक ती ममतामयी आवसू ते चेरडाक एक कापडांत गुडळावन तळयेचे देगेर सोडून वचाक विवश जाली.

आकस्मिक जावन त्या वेळार एक मुसलमान दंपति - नीरु आनी ताची बायल निमा - तशीणान वतालीं. ते तळयेचे लागी साकून एक चेरडा रण्णें तांचे कानांर पडलें. त्या दंपतीक चेरडूवां नाशिल्लीं. चेरडाचें रण्णे आयकून व्यग्रतेन निमा धावन गेल्ली आनी ते अनाथ चेरडाक घेवनू आयली. सन्तानभाग्य नाशिल्ले ते दंपतीक चेरडूं मेळूनिक जाल्लेले संतोषाक सीमा नाशिल्ली.

चेरडाक कबीर म्हूण नांव घालून तांनी ताका खोशयेन वाडयलो. कबीर म्हळ्ळेले उतराचो अर्थूच महान म्हूण आनी तेंच सार्थक जालें. तांगेले दोळ्यांतुली मंडळी सरी मायेन तांनी ताका वाडयलो.

काशींत रामानन्द स्वामीन भक्ति धारा चलोवन दवरलेली. सर्व कडेय रामनाम गुंजतालें. सर्वय देवाली चर्चा करतालीं. कबीराचो शैशव काल तसले कालांत आशिल्लो. ती विणपी दंपति मुसलमान आसूनूय हिन्दू समाजाचे लागी एकडे जावनूच राबतालीं. नावां मात्र तीं मुसलमान आशिल्लीं. असले साहचर्यार वाडल्ले कबीराक हिन्दु धर्मय जावन खोल संबन्द आयलो. ताणेय गांद कुंकुम लावन रामनाम उच्चारण करप शुरु केल्लें. तागेली भक्ति, सेवा, श्रद्धा, प्रेम आनी ज्ञान संपादनाची व्यग्रता दिकून स्वामी रामानन्दान कबीराक शिष्यु जावन मानलो आनी दीक्षा दिल्ली.

चेरडूप्रायेर साकून कबीर सरळ, सत्यप्रिय, सुशील आनी श्रद्धालू आसलो पुण विद्याभ्यास नाशिल्लो. वाचूक बरोवूक कळना आशिल्लें. भाषा, विज्ञान, तत्वज्ञान आनी तशीच विणपाचे कलाकौशल्याचो विद्याभ्यासूय नशिल्लो. धर्माचे ज्ञान पुस्तकांतुल्यान प्राप्त केल्लोलो न्हय आशिल्लो. कबीराक देवूच आशिल्लो गुरु आनी ताका "निगुरा" अशी नांव मेळ्ळें. 'गुरु नाशिल्लो' म्हूण अर्थू.

सत्संगांतुल्यान ताणे अज्ञान दूरा केल्लें आनी साधना करून ज्ञानज्योती प्रकाशित जाल्ली. त्या प्रकाशांत कबीरान परमात्माचें स्वरूप वळकून घेत्तलें. तत्वज्ञान अंतस्करणांत साकून मेळ्ळेलें आनी धार्मिक दृष्टी स्वयं आर्जित केल्लेली. विणपी अम्मा बप्पाचो पूत आसूनूय ताजें मन विणपांत न्हय आशिल्लें. पुरा ज्ञान आर्जित करच्यांत मग्न जावन आसलो आनी देवाले ध्यानांत बुडून सादी सरळ लोकभासेन कविता रचूक लागलो.

ज्ञानमय कबीर धर्माचे आडम्बरांचो कठीन शत्रु जालो. जे वैष्णव धर्मान ताका आपणायलो तेच धर्माचीं फटिंगपणां ताणे दाकोवन दिल्लीं. धर्मांक भेद ना म्हूण ताका कळ्ळें: धर्म एकच आसता, तें मानवधर्म! नावांचे भेदान ज्ञानाचे भेद जायना. हिन्दू आनी मुसलमान हांकां नावांचो भेद मात्र. असले विचारधारेचे कारणान हिन्दू पंडितांक आनी मुसलमान मुल्लांक कबीराक दिकिल्यारी सायना जालें.

ढोंगी धर्मगुरूंनी ताका मान दिल्लोना मात्र न्हय पीडाय दिल्ली. खालचे जातींतू जन्मलो म्हूणून ते धर्मोपदेशकाक मान्यताय दिल्लीना.तें नंतणा ताका फकाणां भोगूका जालीं, मार खांवका जालो. नीच जाती म्हूणून ब्राह्मणांचे, तशीच मुसलमानांचे हातांनीय पीडापीड भोगुका जाली. पुण कबीराचे समान निर्भीक आलोचक आतां पर्यान जन्मलोना.

कबीर गृहस्थ साधू आसलो. ताजी बायल लोई आनी तांकां दोन चेरडूवां - कमाल आनी कमाली. कमाल, विद्रोही पूत आशिल्लो. हें कबीराचे कवितेंतुल्यान समजून घेवयात. बप्पाले उपदेश ताणे मानलेनाय म्हूण कळता.

इतलो होडलो ज्ञानी महात्मा आसूनूय कबीरान कपडां विणपाचें दंद सोडलेंना. विणपाक बेसतना कबीर कविता रचतालो. ताचे तोणांत साकून निरंतर पडची अमृतवर्षा एकडे करून संग्रह करताले ताजे शिष्य. ताजे पायांकडे बेसून ते शिष्य लोकांक अमरत्व शिकोंवचे तसल्यो त्यो ताच्यो कविता पुंजावन काडताले. आज ताजे नावांन आशिल्लीं जावन वीस पुस्तकां मेळताय - 'साखी', 'शब्दावली', 'रचनावली', 'दोहावली', 'वाणी', 'बीजक' आदी.

कबीर सत्य, अहिंसा, दया आदीचो उपासक आनी प्रचारक आशिल्लो. हिन्दूंक आनी मुसलमानांक एकच प्रेममार्गार व्होरून धार्मिक

झगडीं नाश करूक श्रमु पांवचो आसलो तो कवी. ताजे शिष्यवर्गांत हिन्दू आनी मुसलमान आशिल्ले. कबीराले धर्ममार्गाचेर चलचे लोकांक कबीर-पंथी म्हणताय. उत्तर भारतांत थोडे श्रेणींतुले लोकांचे मद्दें हें पंथ आतांय खूब प्रचारार आसा.

कबीर समाजाचे रीति रिवाजाचेर विश्वास दवरनाशिल्लो. ताजे जीवनाचो अधिकांश भाग पुण्य नगरी काशींत राबून अंत कालाक हिन्दूंनी अशुभ म्हूण मानचे 'मगहर" गावांत वोचून स्वर्गवास जालो. 1426 साकून 1518 वर्षांचे मद्दें ताजो देहांत जालो म्हूण अनुमान करताय. शें आनी वीस वर्षांक कबीर जिवंत आशिल्लो म्हणूय अनुमान करताय!

दिवंगत जाल्लेले गुरुली मरणानंतर क्रिया करचे कार्यांत हिन्दू आनी मुसलमान शिष्यां मद्दें अभिप्राय भिन्नता उठली. हिन्दू शिष्य गुरुलें मृतदेह हिन्दू विधि प्रकार संस्कार करका म्हणूय, तशीच मुसलमान शिष्य तांगेले विधिप्रकारीं करूकय जावन झगडले. तेन्ना अद्‌भुत हें जाल्लें कि मृतदेह आशिल्ले कडे फुल्लांची राशि प्रत्यक्ष जाल्ली. आश्चर्य भरून ताजे शिष्यानीं तीं फुलां वांटून व्हरून तांकां तांकां जाय तशी क्रिया केल्ली. धार्मिक झगडीं ऊणे करूक मरणानंतरय कबीर श्रम पावलो जावन दिसता.

(कबीराचे जन्मस्थान म्हणून काशीचे ओटू मगहर आनी आजमगदाचे बेलहरा अशी दोन गांव लगेन प्रसिद्ध आसाय. हिन्दू वा मुसलमान जातींत न्हय जुगी आसले नावांचे खालचे म्हूण मानचे, जातींत जन्मलो म्हणूय दोनीय धर्माचे तीर्थस्थानांचे कडे तीर्थयात्रा केल्लेली जावनूय सांगून आयल्यांय. कबीराचे जीवनाचीं ही माहिती चडय ताजे कवितेंतुल्यान समजून घेतल्लीं जावन आसा. कबीराले जीवन मरण वर्षां जावन हांगा दिल्लेले 1398-1518 हाका प्रामाणिकता आसा म्हूण सांगना.)

# कबीर वाणी

सात समुद्राची साया करी
वनवृक्षांची करी लिखणी
धरतरी पुराय कागत करी
हरिगुण बरोवूक पांवचेंना हें तीनीं

*

सदगुरूली महिमा अनंत
अनंत केल्याय उपकार
दोळे उगडायले अनंत विसकळ
अनंत दाकोवपी देवार

*

सत्या समान ना तपस्या
फटी समान ना पाप
जे हरद्यांत सदा सत्य
ते हरद्यांत देवरूप

न्हाल्लें धुल्लें कितें उपेग
मनाचो चिकोल वचना तरी
उदकांत सदा मासळेचो जग
वचूना घाणी धुल्ली तरी

*

कबीर सांगता गर्व करूनये
ऊंच निवास करता म्हणून
भुंयेंत पडका जाता फाल्ले
ऊंच किरलेतलें सादें तण

*

वयले कुलांत जन्म म्हणून
करणी उंचावेली जायना
भांगरा कळसो भरला सूरान
निन्दा जाता साधू जनांक

गुरु, गोबिंद दोगांय आसाय
कोणाचे पायीं पडूं?
गुरूक अपण्याले बळी जायाय
जाणे दर्शायला गोविंद

❊

करतना तशी केल्लें कित्या
आतां पश्चाताप करता कित्या
वोयलो बाभळाचो* रूक
अंबो कशी जातलो खावूक

❊

फाल्ले करचे आज करी
आज करचें आतां
क्षण भितरी प्रळय येतरी
मागीरचें केन्ना जाता

*बाभळ, बाबूळ - एक कांट्याळें झाड (Acacia)

जाणे सोदलें ताणे प्रापलें
खोल उदकांत बुडून
हांव बेचार बुडूक भीवून
वरलो देगेर बेसून

❊

असलो कोण ना मेळूक
जाका लागी काडयात मोगान
दिकले जळताय सगळे लोक
अपले अपले उज्यान

❊

मातें राखून मान वता
मान कातरून मान राबता
जशी दिवलेंतुली वाती आसता
कातरली तरी उजवाड चडता

कबीर सांगता - सज्जनालें संगात
निवंयता इतरालीं व्याधी
संगातांत घेतल्यार दुर्जन जात
रातिदीस वरता आधी

❊

साधूली जाति निमगूनयें
निमगून घेयाय ताजे ज्ञान
खांड्याचें मोल कराय
राबो तशीच ताजें म्यान*[1]

❊

प्रेम करूनाका हरीचेरी
हरिजनांचेर प्रेम करी
धन संपत्ति दिता हरि
हरिजनांची देणिगा*[2] हरि

*[1] म्यान - खांडे घालून दवरचो वस्तू (Sheath)

*[2] देणिगा - भेंट, देणगी (gift)

जाय पीवूक प्रेमरस
मान राखूकय आस
एक म्यानांत खांडीं दोन
दिकनेय, आयकनेय कानान

☼

आपण आसलो तेन्ना गुरु नासलो
गुरु आयलो तेन्ना आपण ना जालो
प्रेमाची गल्ली रुंदि न्हय
जावना एकडेच राबूक दोगांकय

☼

प्रेम किरलेना उद्यानांत
विकतें मेळना बाजारांत
राजा, प्रजा कोणाकय तरी
जाता व्हरूक मान दिल्यारी

संसाराचें बंधन आसा जेन्ना
तेन्ना भक्ति आसचिना
हरीक भोजून बंधन सुंटय
भक्तू म्हणून सांगय

❊

कबीर सांगता - चिंता करुं तरी
मिजे चिंतनान कसलें जाता?
मिजी चिंता करता हरि
आपणाक ना कसली चिंता!

❊

परमात्माचें स्मरण करी
तोंडान उतरां नाका एक तरी
भायरचें दार बंद करी
भितरचें दार उक्तें दवरी

दुखांत स्मरण करताय सर्वय
सुखांत करचीं नांची कोणेय
जो करता स्मरण सुखांत
दुख कित्याक येत ताज्यांत

⁂

दूद रूपी हरिनाम
जल रूपी व्यवहार
हंस* रूपी साधूवर
तत्व वळकूचो ज्ञानवीर

⁂

आत्मानुभवाचे ज्ञाना विशीं
कोणेय प्रश्नु केल्लो तरी
गोड खावन मोन्यानीं जशी
सुवाद सांगचो कशी तरी

*हंसाक क्षीर नीर विवेकी म्हणताय

जशी माया भुलायता मनाक
तशी रामनामांत मन लागय
नक्षत्र मंडल तरण करूक
तशीच स्वर्गार पांवूकय साध्य

❊

चतुर्भुजाले भजनांत पुराय
भुलून आसाय सर्वय संत
कबीर सांगता - स्मरण कराय
जाका आसाय भुजां अनंत

❊

सेवा कराय सदगुणाची
निर्गुणाचें कराय ज्ञान
निर्गुण सगुण ब्रह्माकची
करता आपूण ध्यान

जाका देव करता रक्षण
कोणाच्यानय मारूक असाध्य
लोक जाला वैरी म्हूण
नष्ट पांवोवूक अशक्य

*

तुजो देव आसा तुज्यांत
जशी आसा परमळ फुलांत
पुणून कस्तूरी मृग जशी
हंय थंय तणाचे मागशीं

*

कबीर सांगता - गर्व करूनयें
कालाचे हात धरता केस
मरण खंय कळत न्हय
खंयी देस कि खंयी परदेस

मरणाचे समान मागप सग
नज भीक मागूक कोणी
मागूच्या पसी मरचें चांग
हेंच सदगुरूची शिकोवणी

*

जेन्ना तूं लोकांत आयलो
लोक हासलो तूं रडलो
आसली करणी करूनयें
मरतना दुशेर हासोवनयें

*

चिंता असली चोरी
काळजाक कातरून खांवची
वोयद बेचार कित्तें करत
खंय तांय वकदां लायत?

जिवंत समजूका, जिवंत भोजूका
जिवंत आसतनाच करका आस
जिवंत कर्माची फांसी कातरनाशीं
करता मरणांत मुक्तीची आस

※

उलय असलें उतर
मनाचें मीपण* सुंटयता
दुशेर्‍यांक शांत कर
आपणच थंड जाता

※

सहज मेळचें दुदा समान
मागून मेळचें जशी उदक
कबीर सांगता - तें रगता समान
जें चोयताय उप्पून घेवूक

*मीपण, मीतूंपण - हांवपण, अहंभाव

वायट कोण म्हूण सोदूक लागलो
वायट कोण मेळ्ळोना
मिगेलेच मनांत चोयलो
समजलों मिजा वायट वेगळो ना

❊

साधू आसका गेरशे समान
जेच लेकान स्वभाव आसडून
सारपूर्ण सार धरून दवरून
पोल सोडचो वार्यार उबोवन

❊

समजाय साधू दर्या समान
जांतु आसाय रत्नां साबार
मुळ्येंत भरतना मंद भागीन
तोपता हाताक केवल कंकर

साधू जावूक अतिकष्टकर
जशी खाजूरा माडियेर चडचे वरी
चोखूयात प्रेमरस चडलो तर
खालाक पडल्यार पिटो रेंव सरी

*

रातिदिसाचे सर्व घडीय
ना मिजीं आनी कोणेय
दोळ्यांत मिजे बेसला तूंच
निदेक तांय ना थंय स्थाय

*

कामाराची फुंकणी आसता जशी
स्वास तांडची नासूनूय प्राण
प्रेम संचार रहित देहय तशी
प्राण नाशिले मषणा समान

प्रेम रूपी हें संसारघर
न्हय बि हें मौशेचें घर
चडुयात तेन्नाच घरां भितर
जेन्ना मान कातरून उडयता भुंयचेर

❊

जशी तीळांत तेला थेंबो
जशी अरणींत उजो
तुज्यांत आसा देव तुजो
जागता तरी तूं जा जागो

❊

देवा केवल इतलेंच दी तूं
जाचान कुटुंब संभाळूं
आपण भुखेंत राबूनयें
अतिथिनय भुखेन वचूनयें

# सूरदास

1478-1583



# संत सूरदास

सूरदास कृष्ण भक्त कवीं मद्दें अग्रगण्य. सूरदासालो जन्म 1478 वर्षा दिल्ली लागी 'सिरि' म्हळ्ळेले गावांत जालो. बप्पा रामदास सारस्वत ब्राह्मण आशिल्लो. तांचे कुटुंब खूब दरिद्र आशिल्लें. कुरडो जावन जन्मले ते बालकाक 'सूर' म्हूण नांव पडलें. सूर म्हळ्यार कुरडो.

साधारण चेरडा वरी न्हय जालेल्यान कुरडे सूराक अन्य बालकां खूब तंग करतालीं. आनी ताका शिकवण दीवूकय ताजो बप्पा तयार नाशिल्लो. ताका पोसपाक दंद चड करयता म्हणून ताजी आवस ताका कोपताली. ताजें मन रडतालें.

एक दिसा घरा भायर बेसल्ले तेन्ना एदेच गावपे भजनां गायत वताले सूरान आयकीलें. तीं भजनां ताका खूब आवडलीं आनी ताकाय तशीच म्हणूक आशा जाल्ली. सूर घर सोडून तांचे संगातांत चमकीलो. आनी भजनां शिकून काडून म्हणूक लागलो.

चोवधा वर्षांचो आसतना सूराले सपनांत कृष्णू प्रत्यक्ष जालो आनी तेन्ना साकून कृष्ण भक्तीन उन्मत्त जावन कृष्णाक वर्णन करून गीत गावूक लागलो. भूक तान विसरून पदां गावून वृंदावनांत भोवतना एक दिसा तो एक बांयत पडलो. बांयत साकून कोणे एकल्यान ताका हात दीवन रक्षण केल्लो. रक्षकर्ता गेल्लो तेन्नाच ताका ते दैवीक करस्पर्शाची वळख जाली. व्यग्रतेन सूरदास कृष्णाक सोदूक लागलो आनी मथुरा लागी गौघाट पावलो. कुरडे सूरदासाचें मन प्रकाशमय जालें आनी गौघाटांत खूब वर्षांक राबून कृष्ण लीला वर्णन करून जियेलो.

श्री वल्लभाचार्या म्हळ्ळोलो एक व्हड पंडितसंत आनी संतकवि

सूरदास हांचे मद्दें भेट जाली आनी सूरदास वल्लभाचार्याले चरणार पडलो. विद्याभ्यास नाशिल्ले चाळीस वर्षांचे सूरदासाक आपलो शिष्य जावन वल्लभाचार्यान स्वीकारलो. पुष्टि सम्प्रदायाचो प्रवर्तक जावनाशिल्ले वल्लभाचार्यालो शिष्य सूरदासूय तोची सम्प्रदाय अनुसरण करूक लागलो.

सूरदास कृष्णालो अनन्य भक्त आशिल्लो आनी गुरु वल्लभाचार्याले आज्ञेन गोवर्धन आशिल्ले श्रीनाथ मंदिरांत वचून कृष्ण लीलेची वर्णना करून पदां गावूक लागलो. कृष्णाचेर आशिल्ले मोगान, भक्तीन उन्मत्त जावन भायरचे दोळे बंद तरीय भितर दिव्य दृष्टि मेळून सूरदास वृंदावनांत कृष्ण कथा गावून आपली मृत्यु तांय (1583 वर्षा) जियेलो.

सूरदासाले रचनेंत प्रमुख 'सूरसागर'. सवाय लाख कवनां तांतु आशिल्लीं म्हूण अनुमान करताय पुण आतां केवल स हजार पदां प्राप्त आसाय. सूरसागर पूरा कृष्णकथाच. कृष्ण कथेंतुले एकेक विषयाचेरीय हजार पदां पुणीय बरयल्यांय, तरी एकेक पदाकय वेगळेपण दिसता. कृष्णाली बाललीला सहज, सरळ, मंत्रमुग्ध जावन चित्रण केल्या. तशीच मातृहृदयाचें वात्सल्य, वियोग, राधेचो आनी गोपियांचो विरह भाव तद्रूप जावन सूरसागरांत वर्णन केला.

'सूरसारावली' आनी 'साहित्य-लहरी' ह्यो दोन रचनाय सूरदासाचे नांवांन मेळताय तरी त्योवय सूरसागरांत मेळसून आसाय म्हूणूय सांगताय. साहित्य लहरींत भक्ति भाव भरलेले 118 स्लोक आसाय. वात्सल्य, श्रंगार आदी विषयांचे जितलें वर्णन सूरदासान आपले बंद दोळ्यांनी पळोवन केल्यां ते वरी अन्य दृष्टि आशिल्ले खंचे कवींनी आज पर्यंत केल्लेना म्हण्टाय!

सूरदासाचे भक्तींत सख्य भाव, वात्सल्य भाव, श्रंगार भाव, दाम्पत्य भाव, दास्य भाव आदी मेळताय. कृष्ण अवतार, बाललीला,

रासलीला, वसंत रितु आनी होळी खेळ, दुष्ट निग्रह आनी कंस वध ह्या सगटांचेय वर्णन व्रज भासेन सरळ जावन करून सूरदासान ते भासेक एक नवें साहित्यिक रूप प्रदान केल्लें आनी व्रज भासेक सुन्दर, मधुर आनी आकर्षक केल्ली. रूप सौन्दर्य, सुकुमारता आनी कोमळता चित्रण करच्यांत सूरदासाचें साहित्य अन्य कवींक प्रेरणा जाता आसा.

सूरदासाची भक्ती मार्गी शिकोवणी मोव पुण शक्त, सादी पुण भो व्हडली. देवप्राप्तीक पवित्र प्रेम, भक्ति आनी अटल विश्वास ही तीनीच वाट! निस्सहायक आनी निराशाजनक अवस्थेंत लोळचे जनसमूहाक भक्ति मार्गांत हाडून तांकां लक्ष्यबोध दिंवचाक, नवें जीवित जियेंवचाक प्रचोदन जावूक सूरदासाचे पदांक जालें. ताचीं पदां जनलक्षांचे जिबेर चारश्यां भायर वर्षां जावन आतांय सहजरूपान खेळत आसाय. जनलक्षांचे काळजांत तीं पदां जिवंत वरून आत्मीय आनी धार्मिक मार्गार चलूक प्रोत्साहन दीत आसाय आनी दीत आसतलींय.

# सूरदास वाणी

आयक रे बाळा मुरारी
सांगता तुका काणि एकि प्रियकरी
आयकून कमलनयनाक प्रसन्नता भारी
चतुरशिरोमणी फुतफुतेयता भितरी
सांगता माता - रघुवंशी दशरथ रायागेरी
जन्मले वीर पूत चारी
व्हडलो पूत 'राम' नांव धारी
बायल ताजी ती जनक पुत्री
राज्य त्यजून बापसूचो तो आज्ञानुसारी
भाव, बायल संग जालो वनचारी
भांगरा मृगा मागशी गेलो धांवतरी
राजीव लोचन आसून परम उदारी
जानकीक हरली रावणान तेद्देभितरी
इतलें आयकून नीद विसरून उठलो हरि
आनी म्हणता - 'लक्ष्मण! धोणू दी धरारी!'
म्हणता सूरदास - हें पळोवन आवसूक परिभ्रम भारी

जे दिसा संत पांवताय सोयरे जावन
जशी तांचें मेळतना दर्शन
फल, कोटी तीर्थांन केल्यां स्नान
तांचे चरण कमलार लायतना मन
देवाचेर नव्य प्रेम जाता उत्पन्न
करताय आनी करयताय देवाचें स्मरण
मन, वचन, कर्म हें विना कांय नेण
मिथ्या, वाद-विवाद हांचे दूरा राबून
देवाचें निर्मल पवित्र यश गावून
पूर्व जन्मांचें जें कर्म बन्धन
उडयताय सर्वय कातरून
जो राबता सतसंगांत प्रतिदिन
संसार दुख सर्वय दूरा वता धावून
सूर म्हणता - जे करताय श्रीहरी स्मरण
तांचेंच घेंवका सांगात जनान.

कृष्णाले पाळणे यशोदा धलायता
जोय करता, मोगान सांसपीता
जें दिसलें तें गायता
मिजे माणकूल्या लागी यो गो निद्रा
हांगा येवन ताका निदायना कित्या
येना कित्या तूं वेगी वेगी
आपयता तुका पळय हरी
केन्ना धांकीता दोळ्या पत्ति
केन्ना वोंट फडफडायता हरी
निदला म्हणून यशोदा जाता मौन
तेंची सांगता संकेत करून
तेन्ना तळमळून जागता हरी
यशोदा मधुर गायता मागीरी
जे सूख देव ऋषींक सुलभ नासता
म्हणता सूर - तें नंदपत्नीक अनुभव मेळता

रे मना, गोविंदाक अधीन राबचें
ह्या अपार संसाराचेर विरक्त जांवचें
तेन्ना भय आसचेंना यमरायाचें
सुख, दुख, यश अशी मेळचें
सर्वय संतोषान स्वीकारचें
सूर म्हणता - देवा भजन करचें
आखेर संसारसागर पार करचें

※

सोडी रे मना, हरी विमुखांचो संग
जो ईश्वर भजनाक करता भंग
आनी कुबुद्धि उत्पन करच्यांचो संग
दूद पीवोवनूय ना कसलें कायरें
विष सोडचो न्हय कशीच भुजंग
कितें जाता खावोवन कायळ्याक कपूर
न्हाणोवन सूण्याक गंगेंत प्रत्यंग
गाडवाक लावन गांद केसर
शिंगार करून मांकडाचें आंग
हस्ताक सरितेंत न्हाणयलोय तर
सोडचो ना ताणे चिकलाचो संग
बाण लागतरी फुटचोना फातर
केवल सरतलें भात्यांतुले बाण सग
सूर म्हणता - दुष्टे काळे कांबळेचेर
लागचोना दुशेरो कसलोय रंग!

कसली गति मिजी - हे व्रजनाथ
फिरत राबता हांव विषयांचे साथ
भजनांत विमुख, पावना तुजे शरणार्थ
हांव रे पतित, अपराधि
भरून आसा कर्मांचे विकार
मनांत काम, क्रोध, लोभ आदी
नाथा, माका पडलो तुजो विसोर
उचित समजून करी कृपा देवा
तेन्नाच मिजो उद्धार जाता
तेंच करी, जाचान साध्य चरण सेवा
खावून तुजें उच्चिष्ट - सूर म्हणता

*

केन्ना करत असली दशा, हे गोपाल
मनोरथ पूर्ण करचो, मनाचो नाथ
प्रभू तूं मू दीनदयाळ
करी मिजें चित
तुजे चरणार निरंत अनुरक्त
जिबेर, तुजें रसाळ चरित
ओल्ले दोळ्यांत तुजें रूप, प्रेमान आंग पुळकित
गळ्यार अंगवस्त्र, माळा धरून हात
अशें रूप दिकतर, मात्तें झुकयत
राबतलो यमरायूय अति भयभीत
सूर म्हणता - मिजें मन जाता भयरहित
तुजो अनुरागी, तीख यातनाय आयकूक शक्त

जो आपले मनांत हरीक इच्छेता।
अन्य कसलेय उपाय प्रसंग सोडून
मन, वचन कर्म सगटांत सत्य धरता।
जाची जीब राति-दीस देवनाम म्हणता।
अनन्य प्रेमरसाचो तो आनन्द पांवता।
सकल लोकांत पसरली तरी असली रीत
तसलें तें जग सत्य म्हूण कोण म्हणत
शीं-उष्ण, सुख-दुख मानचें पडना।
हर्ष-शोक हांचो प्रभाव लागचोना।
सूर म्हणता - भगवत् स्वरूपांत मेळसत तेन्ना।
जनन-मरण चक्रांत दुशेर फसचोना।

❊

प्राप्त करूक आतां हरी भक्तीचें रस
वाट असली सोदी, जिचान जाता। नाश।
मरणाचो विचार आनी जन्माचो हर्ष
सर्वांचेर दया, कोमळ वचनांची भास
सदा आनन्दित आसूकय आस
हर्ष-शोक, वाद विवाद
जियेंवका सहन करून ही द्वंद्वां
मनांत आसली समता येतना।
सूखाचें वर्णन करूक जांवचेंना।
सूर म्हणता - हे प्रभु! तेन्ना कसलीय आस,
अष्ट सिद्धि वा नवनिधि स्वयं पांवता समक्ष

दोळ्यांनी पळय श्याम सुंदर रूप
सर्व दिकानय आसा व्याप्त
तेंच अनुपम ज्योति स्वरूप
चरण ताजें पाताळ आदी लोक सात
आनी मस्तक मू आकाश
सूर्य, चंद्र, अग्नि, नक्षत्र
हीं समस्तय ताजोच प्रकाश

❊

प्रभु, मिजे अवगुण चोवूनाका
समदर्शी म्हूण नांव तुका
देवा, मिजो उद्धार करका
एकच लोकण्ड, ताजे मूर्तीक पूजा
लोकण्डा खांड्यान करताय हत्या
व्यत्यास हो पारसमणी पळयना
दोनीकय खरें भांगार करतना.
एकि न्हंय, आनी एकि खळी
चिकला उदकान भरलेली
एकच रंगाचें जाता दोनीय मेळतना
गंगा अशी नांव तिका तेन्ना
ही जीण एक माया - सूर म्हणता
केवल श्याम परिपूर्ण आसता
हे पावटी करी देवा रक्षण माका
ना तरी प्रतिज्ञा तूजी असत्य जाता

कृष्णालीं पांयजळां करताय किणकिणी
उंगट्यांक धरताय दोगांय जननि
चमकूक शिकयता पोराक नंद राणी
श्याम वर्णाचे देहार पीतांबर
चौकंड एक मुकुट आसा मात्यार
जाची सीमा नेणा ब्रह्मा सरी
गोपियो खेळताय संग हरी
दूरा वशी, खेळ हांगाच सगळो वेळ
फसल्या हांव, तुजे मू माणकुले खेळ
म्हणता सूर-यशोदा पुताचेर जाल्या पिशी
होंटींत बेसोवन खेळयता तशी तशी

❊

अरे मूर्ख! गोविंद विना ना सूख
दूरा करचो कोण तुजें दुख
यश, धन परतपरत, सुख दानाचे विमुख
शिव, ब्रह्मा, सनकादी मुनिगण
हांची गति घेतली समजून
जगत् पिता जगदीश्वराचे शरण विना
तिनीय लोकांत सूख मेळचें ना
अन्य सगटांत हांवे सोदलें
तरी मेघाचे सावळे समान दिसलें
सूर म्हणता - देवा भजन विना
दुख केन्ना तरी वचश ना

अम्मा! चिडायता दादा खूब माका
सांगता तो, "मोलाक घेतला तुका
यशोदेचेर जालो केन्ना म्हूण सांगका"
कितें करचें हांवें, हेच कोपान
खेळूक सरी वचाक जायना
परतें परतें सांगता भरून हास
"कोण तुजी आवस, कोण तुजो बापूस
नंद गोरो, यशोदा गोरी
कशी रे सावळें देह तुजें हरि"
चुटकूली मारून गोवाळे नांचयताय
हासताय, ते सर्वय मुस्कुरायताय
तूं मू गे माका मारूक शिकल्या
दादाक केन्ना कोपता दिकल्या?
मोहनालीं हीं कोपाचीं वचनां
म्हणता सूर - आयकून यशोदा प्रसन्न
आयक कृष्णा, बलराम चाडयो सांगचो
जनन साकून आसलो तो कौशलकायेचो
हांव करतां गायांचेर शपथ
हांव तुजी आवय, तूं मिजो पूत

मिजे अम्मा हांवें खेल्लीना लोणी
समजून घे, मिजे हे सग मित्रांनी
सारयलेली मिजे तोंडार ही लोणी
दिकने वे तूवें, शिंक्यार मू तें तोपलें
लांबता ऊंच ऊंच कितलें
कित्तें अम्मा सांगता अशी
हात मिजे सानूल्ले, पांवतले थंय कशी
पुशीता तोंडावेली लोणी, खुशालेची करणी
दोणो फाटीं निपयता आनी
हासूक लागता यशोदा, बडी दूरा विंदून
कृष्णाक गळ्याक लायता मोगान
बाललीले आनन्दान मन भुलावन
भक्तीचें तेज दाकयता मनमोहन
म्हणता सूर-जो आनन्द मेळता यशोदेक
मेळना कशी तरीय शिव-ब्रह्माक

अशी कितेंय करी दीन दयाळ
करुणा सागर, भक्त परायण
जाचान चरणार तुजे राबता एकेक क्षण
इंद्रियां आसाय अजय, बुद्धि विषयासक्त
मनाची चाल सदा विपरीत
काम, क्रोध, मद, लोभ हांचो भयभीत
हे देवा, हांव जालां व्याकुल दिसरात
योग-साधना, जप-तप, तीर्थयात्रा-व्रत
हांतू एक सरी ना मिजे कपलांत
हे श्याम सुंदर नंदनंदन
कितें हांवे करप, कशी करका तुका प्रसन्न
हें आयक, समरथी, सर्वज्ञानी, कृपानिधि
अशरणांचो शरण, संसार माया हरण करची सिद्धि
सूर म्हणता - संकुचित मानचे मिजी गति
कोणाचे लागी सांगूका, दयानिधि!

देवांचे उद्धारण, असुरांचे संहरण
करूक आयलो त्रैलोक राजन
गोकुलांत जालें अंतर्यामी देव जनन
वासुदेवान हाडलो मात्यार दवरून
पांवयलो नंदरायालें रावळार सोदून
जागली राणी, पुत्रमुख पळोवन
पुळकित आंग, आनन्दांत बुडून
येयाय कांता, देव जाल्याय प्रसन्न
पुत्रु जन्मला, पळयाय वेगीं येवून
पुत्रमुख चोवूक, आयलो नंद धावून
सूख जें भोगलें, ते मापाक ना वर्णन
पयलेच हरीक घेतलो मागून
म्हणता सूर - दूद पिवोवूक यशोदेन

हे हरि, पतितांतुलो हांव राय
आनी ना कोण मिजाकय योग्य
आसून महामोह मिजें राज्य
बेसला हांव आशेचे सिंहासनाचेरी
दंभ रूपी सातें मिजे मात्यारी
गावपी करताय मिजे दुर्गुणांचे वर्णन
सर्वय घेताय मात्यार आदेश समजून
काम, क्रोध मिजे मंत्री दोनी
दिताय आपले रीतीन सुचोवणी
राग, द्वेष आसाय लागी दीसरात
दुविदा सांगात दिताय ते उपदेश विपरीत
लोभ मिजो पसरकार*, मोहाचो सेवक
अहंकार तो द्वारपालक
वृद्ध ममतेचेर मिजें शयन
मायेक मू अधिकार एकेक क्षण
दासी तृष्णा करता नित्य सेवा
घेना येदो सरी विश्राम, देवा
अनाचार रूपी सेवक सांगात
करताय सदा चाडयो सांगाचें दंद
मनोरथ घोडे, गर्व मदहस्ती
मूर्खपण असत्य रूपी रथाचो सारथी
मन दास, अधैर्य रूपी सैनिक
दुष्टबुद्धि मिजो दूत आनी एक
हांव भितर घुसचे भयान करता एक दंद

*पसरकार - Grocer

नरकाचें द्वार यम दवरता बंद
जें अपार पाप हांवें केल्यां
तें सर्वय मिजी सेना जशी जाल्यां
जे करताय मिजी निंदा, उपहास
लागता जशी ते बंदी लोक गायताय मिजें यश
सूर म्हणता - हठ, अधर्म, अन्याय
करताय मिजे द्वारांत उत्सव नित्य

※

दी गे येदी लोणी अम्मा
दी गे येदी लोणी
मिनुले हातांत सानुली रोटी
मागून नाचयता पावलां दोनी
भांगराळ भुंयचेर ओडिल्ले रत्नरेखे वरी
घेतली हातांत खोवल्याची दोरी
शंकाग्रस्त शेषनाग, कांपलो मंदराचल
मंथन करत म्हणून समुद्रय जालो व्याकुल
मिनुले तोंडानी मिनुलीं उतरां
गांथून किरायो उलयता सबार
प्राण जीव तो यशोदा राणियेचो
हरद्याक लायता ती आसून मोगाचो
म्हणता- मनमोहना तूं मनाक भुलांवचो
तुजेर येंवचो अनर्थ माका लागचो
श्यामसुंदर नंदकुमाराचेर
परत्परत बळि जाता सूर

आखड्यांत बेसून खेळता कृष्ण
व्रज बालकांचे सांगातांत जोर करून
जशी कृष्ण, बालकय तशी
अज्ञानी, सगटय समजनाशी
उल्लो, किंचाट्यो मारून खेळताय आनी
गायताय-पळयता दूर राबून नंदराणी
देह पुळकित जाता, कंठीं गदगद
यशोदा मनां भितर मंत्रमुग्ध
काडून रेंव तोणांत घाली हरीन
तेन्ना तें दिकलेंय मू यशोदेन
बडी घेवन धावली, करणी समजून
कोपली, कृष्णाले भुजांक धरून
केदणाय बालकांक फटयारे म्हणतालो
कितें सांगून आनी आतां वांचतलो
आयक अम्मा, रेंव खेल्लीना हांवे
सिद्ध जातलें, तोणांत चोयना वे
तोंड वाकतें करून दाकयलें त्रिभुवन
न्हंयो, सुमेर पर्वत आनी घोर वन
मळब, सूर्यु, चंद्रू तोणांत भितरी
कालचक्र, समुद्रु आनी सगळी धर्तरी
पळोवन हें व्याकुल जाली माता
लेकता तोणांत कशी, मिजे पुता
तोंड धांकलें, दोळे विसकळावेयले
अम्माक समजावूक कृष्णान सांगलें

फटकिरो म्हणून दोष दिताय लोक
माका रेंव आवडना मू खावूक
म्हणता सूर - आयकून हें यशोदा अशी सांगता
व्रज जनांक ही चाल खूबच लागता

❊

सर्वय त्यजून मुरारीचे चरणार करी भजन
श्रुति, स्मृति आनी सर्व मुनिगण
तेंच सांगताय, तेंच सांगता आपण
जशी दिकता स्वपनांत निदतना
तशी आसा हें संसार चोयतना
उगड भितरचे दोळे एक क्षण
विलीन जाता सर्वय मेळून ज्ञान
जन्म रूपी जुगारांत* हार खेल्लेल्यांनो
सांगता तुमकां पर्तपरत लोकांनो
जावन गेल्लेलें जालें, आतां तें विसरून
सूर म्हणता - संभाळून धरी हें समजून

*जुगार - पैशांचो खेळ. हांगा, भाग्याचो खेळ

# संत एकनाथ

पंढरपुराची विठळ मूर्ति विजयनगरांत साकून जे भानुदासान आपले सामर्थ्यान परतून हाडली, ताजे कुलांत एकनाथाचो जन्म जालो. भानुदासाचो पूत चक्रपाणी, चक्रपाणीचो पूत सूर्यनारायण, सूर्यनारायणाचो पूत आशिल्लो 'नाथ'. ते कुलांत तो एकलोच आशिल्ले कारणान ताका 'एकनाथ' अशी नांव पडलें.

क्रिस्ताब्द 1531 वर्षाचे मध्ये ताजो जन्म पैठण गांवांत जालो. ताजे आवसूचें नांव रुक्मिणी. ताका जन्म दिताच तिजो देहांत जालेल्यान ताका आज्यान आज्येन वाडयलो. स वर्षार ताजी मूंज जाली आनी ब्राह्मण रीति अनुसरून वेदपाठ करूक लागलो. तीव्र बुद्धि आशिल्यान ताजें अध्ययन, हुशार जावन चमकीलें. बारा वर्षां भितरी 'श्रीमद् भागवत्' आदी वाचून सारलें. ताजे भितर अध्यात्म ज्ञानाची तळमळ चडली आनी ताजेर भक्तीचो खोल प्रभाव दिकूक लागलो.

सद्गुरु विना खरें ज्ञान मेळचेंना म्हणून तो गुरूक सोदून भोंवता राबलो. एक दीसा गांवांत आशिल्ले महादेवा देवळांत विचारमग्न जावन बेसल्ले तेन्ना एक देववाणी आयकूक पडली. "एकनाथा, तू देवगडाचेर वच. थंय तुका जनार्दनपंत नावाचो एक सत्पुरुष मेळतलो" ही वाणी आयकूनिक एकनाथाक संजीवनी मेळेल्या वरी जालें. दुसरे दिसा नाथ जिबेर विठळ नाम घेवन भायर सरलो आनी तिसरे दिसा देवगडाचेर (दौलताबाद) पावलो.

जनार्दनस्वामी थंयचो किल्लेदार आशिल्लो. स्मामीक पळयतच एकनाथाचें उमाळे ऊचांबळून आयले आनी तो जनार्दनस्वामीचे पांवलांचेर

पडलो. इतले सान प्रायेचे एकनाथालें वैराग्य आनी भक्ति पळोवन जनार्दन स्वामी आश्चर्य पावलो.

थंय पावलेले दिसा साकून एकनाथान गुरुसेवेचें व्रत धरलें. गुरूच आवस आनी बापूस, गुरूच देव परब्रह्मा अशी लेकूक लागलो. स वर्षांक ताका घराचो उडगास सरी आयलोना. एक दिसा गुरु समाधींत बेसल्ले तेन्ना अचानक गडाचेर शत्रु सैन्य आक्रमण करूक लागलें. स्वामीचें झूजा वस्त्र अंगार घालून घोड्या फाटीर बेसून एकनाथ आपले स्वामीचे सैन्यांक धीर दीवूक लागलो. तशी शत्रु सैन्याक मारून धांवडावंचाक साध्य जालें. परतून येवन झूजा वस्त्र निसरावन दवरून एकनाथ नुतोच स्वामीसेवा करूक बेसलो. समाधींत साकून उठलो तेन्ना जनार्दन स्वामीक हें सर्व समजलें तरी एकनाथ कांय उलयलोना. ताजी निरभिमानी वृत्ति पळोवन स्वामीन एकनाथाक सगळें लेक चोवन चमकोंवचें काम सोंपून दिल्लें. एकनाथ लेक सग हुशार जावन पळोवन चूकि कांय येवनाशिल्लें कर्तव्य पालन करून आयलो.

एक दीसा लेकांत एक पैसेची चूक दिकीली. ती कशीच सांपडना. राति सगळी बेसून नाथ लेक पळयत राबलो. राति जनार्दनस्वामी जागो जालो आनी पळयतना नाथ बेसून लेक पळयता. इतल्यान नाथ ताळियो वाजूक लागलो आनी म्हणूक लागलो कि एक पैसेची चूक सांपडली. एक पैसेची चूकि सोदून सामकी करूनिक ताका जालोलो आनन्द पळोवन स्वामीन सांगीलें - “एक पैसेची चूकी सांपडतना तुका इतलो आनन्द मेळा तरी संसाराची चूक शोधण्यांत कितलो होडलो आनन्द जातलो”. आनी एकनाथाक श्रीदत्तात्रयदेवाचें दर्शन करोवन दिंवचाक जनार्दन स्वामीन निश्चय केलो.

गडाच्या पेल्लेकडे स्वामीक एक एकांतस्थान आसा. थंय श्रीदत्तात्रय देव एकेक रूपान प्रत्यक्ष जावन स्वामीक दर्शन दीवन येता. एकनाथाकय देवदर्शन करोंवचाक जावन जनार्दन स्वामी ध्यान करूक लागलो. अचानक एक मलंग मनीश एक हेटियेकय घेवन थंय पावलो. स्वामीन धावन वचून ताजे पाय धरले. मलंगान प्रेमान स्वामीक उठकरायलो आनी आलिंगन केल्लें.

मलंगान आदेश दिल्लेले प्रमाण जनार्दन स्वामीन ते हेटियेक धार काडून दूद हाडलें आनी दोगांय ते दुदांत भाकरी कालोवन खावूक लागले. एकनाथ हें पळयत राबलो. खाण जावन वाटळी धूवूक म्हूण एकनाथा लागी दिल्ली तेन्ना ताणे भक्तीन तांतू आशिल्लें उष्टें खेल्लें. ताजी ती भक्ति पळोवन दत्तात्रयदेव मलंगाचें रूप सोडून एकनाथाचे मुकार प्रत्यक्ष जालो. तशी एकनाथाक देवदर्शन प्राप्त जालें.

ते नंतर गुरु शिष्य दोगांय तीर्थयात्रेक भायर सरले. चंद्रावती गांवांत पांवचानिक चंद्रभट नांवाचो एक होड विद्वान चतुःश्लोकी भागवत् पुराण सांगता आयकीलें. ताजी ती रसाळ वाणी आयकून स्वामीन नाथा लागी मराठी भाषेंत भागवत् बरोवूक आदेश दिलो. तशी थोडे दिसांनी एकनाथान एक हजार विवरणात्मक ओव्यो चतुःश्लोकी भागवताचेर बरयल्यो.

तें जावन तो तीर्थयात्रा करून गोकुल, वृंदावन, मथुरा, गया, प्रयाग, काशी आदी कडे आनी गंगा, यमुना, कावेरी अशी पुण्य नदियांकडे स्नान करून परतून पैठणांत पावलो. थंय राबून तो भागवत् पारायण करून मराठी भाषेन प्रभाषण करून आयलो.

गुरूचे उपदेशा प्रमाण नाथान विवाह करून गृहस्थाश्रम स्वीकार केलो. ताजे बायलेलें नांव गिरिजाबाई. चाळीस बेचाळीस वर्षांक तानी

संतोषान गृहस्थाश्रमांत जीवन काडलें. नाथाक हरिपंडित नांवाचो एक पूत आशिल्लो. तो होड पंडित, पुण ताका बापसूली करणी सायना आशिल्ली. देवभाषा संस्कृतांत साकून प्राकृत भाषेंत पुराण विवरण करचें ताका लागना आशिल्लें. पुण बापसूचेर खूब प्रेम आशिल्यान तो वादविवादाक राबूनाशिल्लें गांव सोडून काशींत गेलो. चार वर्सां थंय राबून ताणे होड नांव जोडलें.

एक दिसा एकनाथ गंगा स्नान करून ऊंच येतालो. थंय पाडीक बेसल्ले एक युवकान उन्मतपणान नाथाचे आंगार थू केल्लें. कांय घडूनातिल्ले वरी एकनाथ दुसेर गंगा स्नान करून भायर आयलो. तेन्नाय ताजे आंगार तो युवक पीक थू करून सांगूक लागलो 'मिजी चूकि जाली'. एकनाथान तेन्ना सांगीलें - "चूकि कसली? चूकि हांवेच केल्या, हांवच मद्दें आयलो आनी आतां परतून न्हावन येतां".

एकनाथ कोपु काडूनातिल्लें न्हावन आयलो. युवक लज्जा नातिल्लें परत्परत् थू करून बेसलो आनी नाथ तें सहन करून स्नान करत राबलो. खूब पावटी थू करून करून युवक थकेलो आनी ताजो ताळो सुकलो. तो नाथाच्या पायांकडे शरण पावलो आनी म्हणूक लागलो. "हांव खरोच पापी. मिजेर क्षमा करका". तेन्ना नाथान सांगीलें "क्षमा कित्याक रे बाबा, तूवें कारण हांवे 108 फंता गंगास्नान केलें. तूवें मिजेर उपकारूच मू केला."क्षमाशील नाथाचे उपदेशान तो युवक चांगपणान जीवन काडूक लागलो.

एकनाथ वृत्तींत एकदम शांत आशिल्लो. सामान्य लोकांक संस्कृत समजना आशिल्ले कारणान भागवत् प्राकृत भाषेंत विवरण करून तें ज्ञान सर्वांक पावोवूक म्हूण वांवट काडतलो. एकादश स्कंधाचेर टीका

बरोवून सदां मराठींत पुराण प्रभाषण करतालो. हरिपंडिताक चार वर्षांक दिकूनातिल्यान एकनाथ ताका घराकडे हाडूक म्हूण काशींत पावलो. परतून येंवचे खातीर पुतान दोन उपाधी दवरली. एक - मराठींत पुराण सांगूचें राबोंवका. दोनी - एकनाथान परके घराकडे भोजन करू नज. दोनीय उपाधी एकनाथान कबूल केल्ली आनी हरिपंडित परतून पैठणांत आयलो. हरिपंडित संस्कृतान पुराण सांगूक लागलो पुण ताजे घमंडाचे कारणान आयकुचे लोक ऊणे ऊणे जावन आयले.

एक दिसा एक म्हांतारी बायल मनीश एकनाथाक आपले घराकडे व्हरून भोजन दीवूक मागून आयली. फूडे संपन्न कुटुंबाचे ती आतां गरीबींतूय सहस्त्र ब्राह्मणांक भोजन दितां म्हूण आंगवण करून गेल्या. पुण आतां तिज्यान तें साध्य न्हय आशिल्यान एकनाथा सारके एक ब्रह्मनिष्ठ ब्राह्मणाक भोजन दीवून तिजें आंगवण सिद्ध करूक चोयताली.

हरिपंडिताक तिजेर दया दिसली आनी ताणे म्हळ्ळें "एकनाथ महाराज तुजे घराकडे येतलो. पुण हांव तुगेथंय येवन स्वयं रांदिल्लें भोजन मात्र एकनाथाक वाडका. तुका मन्जूर जाल्यार आमी फाले येताय".

तशी दुसेरे दिसा एकनाथ आनी हरिपंडित त्या म्हांतारेले घराकडे गेले. हरि पंडितान स्वयं रांदून एकनाथाक वाडलें. हरिपंडितय जेवूक बेसलो. म्हांतारी आपण्यान रांदिलें कसलेंच एक पदार्थ ल्हवूच एकनाथाले पानार वाडता आनी एकनाथ तें स्वादान खाता हरिपंडितान दिकीलें. ताका वायट दिसलें तरीय तो कांय उलेयलोना.

जेवण जांवचानिक दोगालींय उष्टीं पानां पेल्यान घालूक म्हूण हरिपंडित भायर सरलो. एकनाथान जेवलेलें उष्टें पान काडूनिक ताजे

पोंदाक आनी एक पान दृष्टि पडलें. तें दुसेरे पान काडूनिक ताजे पोंदाक आनी एक. तशी एका पोंदाक एक जावन पानां येताच राबीलीं आनी उष्टिं पानां काडून हरिपंडित खरशेलो. एक हजार पानां काडून पेल्यान घालूनिक उष्टिं पानां येंवचें राबलें.

सहस्त्र ब्राह्मणांक भोजन करयन म्हूण संकल्प केल्लेले म्हांतारेली इच्छा तशी पूर्ती जाली. हरिपंडिताचो अहंकार ताजान निवून गेलो. दूसेरे दिसा साकून एकनाथ पूर्वी प्रमाण मराठींत पुराण सांगूक लागलो.

क्रिस्ताब्द 1602 वर्षा एकनाथाची समाधी जाली अशी मानून येताय. संत ज्ञानदेवाली "ज्ञानेश्वरी" एकनाथान शुद्ध केल्या जावन विद्वद् मत आसा.

# एकनाथ वाणी

मुक्त आमी म्हणून भोंवताय जगांत
मुक्त ही पदवी ना मू आंगाक
सदा भटकूचें*[1] मन राबना अटकून*[2]
मुक्तज्ञानाचीं मत्तीं व्यर्थ करून
दिताय द्रोह भूतमात्रांचेर*[3] प्रकारानी नाना
वेदशास्त्रय निश्चित जावन तांकां कळत ना
एका जनार्दन म्हणता - कशी जातले मुक्त
मानहानी फल जगांत, आसून ते उद्धट*[4]

*

असत्याचे पोटांत जन्मलें असत्य
धना प्रभावान शिकता असभ्य
धना आशेन, असत्य वचनांचो मू मित्र
धना खातीर सांगात घेता मंत्रयंत्र
धना खातीर करताय प्राण त्याग
धनान जाता हानी प्राण्यांक सग
एका जनार्दन म्हणता - जंय धनाचो संबंध
थंय सहज उठता भेदाभेद

*[1]भटकून- हंय थंय भोंवून *[2]अटकून - एकडेच थापून राबून *[3] भूतमात्रा - चराचर, जड-चेतन *[4] उद्धट - वायट, पतित, निष्ठूर

ब्रह्मचारी म्हणता आपण महंत
तरी सदा विषयांचेर मू चित्त
न्हेसून भोंवता कौपीन
तरी भितर करता विषयध्यान
उतरां जशी रसाळ
तरी स्वभाव मू अमंगळ
एका जनार्दन म्हणता - सवंग*[1]
आसच्याक मेळना संतसंग

❊

तोंडांत वास करता*[2] ब्रह्मज्ञान
मनांतुले चिंतेंत धना तान
असले फटयारे जे पतित
ताकां साधन स्वहित*[3]
स्त्रीसंगातार सदा आसक्त
परमार्थाची गोष्ट*[4] संभाषणांत
एका जनार्दन म्हणता - तसल्यांक
देव भेटतलो कित्याक

*[1]सवंग- दुशील *[2]वास करता - (हांगा) बडाय मारूक सांगता *[3] स्वहित - स्वार्थाचे खातीर *[4] गोष्ट - (हांगा) बडाय मारूक सांगची काणी

सांगता गुरु लोकांनो कराय
आपल्या आप शुद्ध जायाय
ताची उतरां दुख दिवपी
शिष्य मेळ्ळेले तेवय झगडपी
उपदेशाची कळत ना, रीत
दामा खातीर पसरायता हात
असले गुरूचे कठिन भाव
एका जनार्दन म्हणता - ना कितेंय लाव*

❋

जाचे लागी धन ना
ताका असत्य आपडना
धना लागी मू अधर्म
धना लागी दंभ*2 एक दम
धना सांगातां ना परमार्थ
धना सांगातां केवल स्वार्थ
नाका रे मना, धना चिंता
एका जनार्दन हें म्हणता

*1लाव - लाभ, *2 दंभ - धोंग (hypocrisy)

एकांतांत बेसून
करता पोकळ भाषण
म्हणता कराय रे भजन
सूण्या वरी नेणटें आपण
म्हणता कराय पंढरीचें पयण
दारादारांत फिरता आपण
असले व्यर्थ उपदेश
एका जनार्दन म्हणता - करता नाश

*

चिल्वाण दीवून जीव जात
म्हणताय आमी उदार भक्त
असले दंभ्यांचे लागी साकून
पयस राबता जनार्दन
गाजराचें* येदें आसून सत्य
पुष्प विमानाची वाट पळयताय
एका जनार्दन म्हणता - फटिंगपणा भाव
दवरच्यांक भेट करना देव

*गाजर - Carrot

पशु जावन जन्मता भक्तिहीन
आयुष्याचो मू नाश करून
केन्नाच ना सांगात संतसेवेचो
मत्सर करता भूतांचो
मुखांत ना मू रामनाम
सदा प्रपंचाचें इच्छा काम
एका जनार्दन म्हणता तसले लोक
जन्मान अधम, वजें मू भूमीक

❋

करूक सुगम निजकर्म
तरी कर्मक्रिया अति दुर्गम
कर्म केवल देहाचें मात्तें
देहांतुले आत्म्याक ना देह तें
कर्म अकर्माचे कष्टकर आंकडे*
तेन्ना कांय आपडना आत्म्याकडे
एका जनार्दन म्हणता - तें कर्म
देहांत देह आशिल्लें परब्रह्म

*आंकडे - संख्या

पूजन तें एकच पूरो ताका
स्मरणांत उतरांत रामनाम
गंधाक्षत तुळसी नाका
मुखांत दिनरात आसो नाम
धूप, दीप, निवेद, वीडो नाका
सदा उतरांत आसो नाम
आरती, धूपारती, अक्षत नाका
सतत गावून राब राम
एका जनार्दन म्हणता - शरण मेळका
तरी सहज पूजा कर वळखून नाम

※

जीवशिव दोनी एकची आसनारी
अंत्यार सदा ताकाच पूजन करी
कामक्रोधाक मानताय म्हेळ*
संत पूजनान बरें जाता सदाकाळ
परद्रव्य परस्त्री हाजी नाका आसक्ति
पूजा करून जाता जनार्दन प्राप्ति
एका जनार्दन म्हणता - ममता सोडून
संतचरणारी करी पूजन

*म्हेळ - चिकोल, पायकीळो (filth)

नश्वर मू धन, नश्वर मान
देह सगळें नश्वर जा जाण
नश्वर देह हें नश्वर संसार
करूनये नाशवंत विचार
बायल पूत चेरडुबाळां नश्वर
बळान गळ्यार पडचेंय नश्वर
एका जनार्दन म्हणता सर्वय नाशवंत
केवल हरिनाम आसा शाश्वत

❋

मनुष्याक आयू शें म्हूण दवर
मदराति जशि ताजे मध्यार
बाल्य, यौवन, वार्धक्य जाताची
सोंपता गणना ते मनष्याची
एका जनार्दन म्हणता - करतना भजन
तेन्ना पांवता वेगीं मरण

मूर्खांक कळना ती सुखाची गोडी
पायांक पडल्या प्रपंचाची बेडी
गोड खावनूय गोड म्हूण सांगना
तसलो तो मूर्ख नावांचो उडगास काडना
शुद्ध वैराग्याक कांटाळो मानता
आनी प्रपंचांतुले अमंगळाक पोसता
एका जनार्दन म्हणता - भाव खरे न्हय
तसले ते पामराक सांगून कितें कार्य

*

भरल्या मू इच्छा म्हणता मिजें मिजें
व्हांवताच आसा संसाराचें वजें
कुंटून कुंटून व्यर्थ यात्रा करता
गाडवाचे समान फाटीर वजें व्हांवता
ना मेळूक अन्न, चडली विपदा
तरी स्मरण करचें ना हे गोविंदा
असले जन्मताय संसाराचे दास
एका जनार्दन म्हणता - तांचेर काळकाचो वास

करता विषयांचें ध्यान
जीव जाला मनाचे अधीन
अशी विषयांत भुलला
परमार्थाचो विसोर पडलो
संसार सागरांत होळूक लागलो
गोड परमार्थाक सोडलो
भुलून गेलें मन
विसरला करूक स्मरण
जन्मांत आयल्याय दीक
एका जनार्दन म्हणता - तसले ते मूर्ख

*

आळसायेची नीद सोडी
रामनाम तोंडार काडी
धन संपत्ति आनी मान
हे तरी श्वानविश्ठा समान
बायल, पूत आनी संसार
व्यर्थ अर्थहीन भार
साडून तें मनांत साकून
एका जनार्दन म्हणता - बदल तुजी जीण

जळचे घरांत
शरणस्थान कोण करता
तसले अभागी पतित
गुरुपण वयलेवयर दाकयता
ना मू मंत्रशुद्धीचें ज्ञान
असंबंधांनी फुंकीता कान
आसून मनुष्य गुरु जाय
एका जनार्दन म्हणता - तरी ते नाय

*

चिंताकुल मन आसू नज केन्ना तरी
हृदयांत नामावळीचें जप करी
श्रीअनंता माधवा गोविंदा
मिजे मनांत हेंच जप सदा
चिंतेंत परत्परत देवाचीं पावलां
जाणे केल्यां जन्मजाळें विसकळ
एका जनार्दन म्हणता - दवरून विश्वास
सर्व भावांन गायत राब नाम सास

उपेक्षा करूनाका सदा, शरण हांव आयला
अशी बोध मिजे मनांत चडला
सर्व भावान वचनान नाम गावूक
लागतना जगजीव भेटताय विठोबाक
साधुसंत गावून आनन्दान नांचताय
नाम ध्यानानी सुख क्षेम केदनाय
एका जनार्दन म्हणता - पळयतना विठळ
तुंटता जननमरण वज्यां संकाळ

✻

मनाक एकच कडे
राबोवूक करी अशी थोडें
सर्व साधनांचो सार
मनांत कराय विचार
एकाग्र करून मन
करी देवाचें भजन
जिकचें मनाक आदीं
तेन्ना तुंटता उपाधी*
म्हणता मनाक - एका जनार्दन
दृढ राबय बांदून

*उपाधी - त्रास, पीडा

मिजे मना, आरे करचें
नित्य भजन नारायणाचें
ताजान तुंटतलें बंधन
दोनीय लोकांत जाता सन्मान
मेळतली सगळी संपत्ति
नाश जातली विपत्ति
प्राप्त जायत ब्रह्मपद
वदनार वचनांत आसून गोविंद
एका जनार्दन म्हणता - दवरी सदा
मनांत नारायणाची चिंता

*

विषयांचें दुशील मना तूं सोडी
आनी लाय विठळाची गोडी
इच्छू नाका कसलेंय साधन
मनाक करी एकदम उदासीन
विठळ आसा सावळो
पळयत पळयत विसकळेलो दोळो
एका जनार्दन म्हणता - वतना शरण
मनांत भरता विठळ पूर्ण

सदा अखंड ध्यान
पांडुरंगाचेर लाय मंन
अप्रूप असलो हो हिरो
उडोवन वेंचिताय स्फटिक मणी
अमृत सोडून
बळान उप्पून घेताय शिताडो
कामधेनु कल्पवृक्ष जशी
म्हणता एका जनार्दन-भांडार कशी

❊

जनार्दनाचे पायाक धरून राबता
संसार तुका कितें करूक शक्ता
स्वरूपाचें ज्ञान मेळना, विना आयास
जाचें नाम आयकूक लागल्या आस
जाणीव, नेणीव सोडून मागशी
एका जनार्दन म्हणता - शरण पांव वेगी

सर्वत्र व्यापून आसा देव
रित्तो स्थाय मेळता खंतय
ताजेंच रे चिंतन करका
मागीर आसचो ना ऊणाव तुका
उतरांत सदा विठळ आसूका
खरो सोयरो तोच अंतकालाक तुका
मुकार माग्ल्यान संगातांत जशी
एका जनार्दन म्हणता - दिसता तशी

※

असले एक रोगाचे कारण
परमार्थाचे गोडीक लगेन कोडवाण
कामक्रोध जालेल्यान चड
शांति क्षमेचो दिलो कडो*
नाममात्रेंचो कसाय वोकद
प्रपंचरूपी रोग जालो शांत
योग्य वोयद जो जनार्दन
पांवता शरण - म्हणता एका जनार्दन

*कडो - कसाय, कशाय

सूख एकच आसा, हरीचो विचार
वेगळें जप दुख दिता साबार
अशी चिंता धरून मनांत
गायता तोंडानी हरिनाम दिसरात
सगळो दीस संसाराचो आस धराय
तरीय भजनांत प्रीत आसूक जाय
एका जनार्दन म्हणता - धरून विश्वास
कित्याक रे जाता संतचरणांचो दास

*

देह आसा तुमचे अधीन
तेन्ना तांय करी भजन
वतलें पडून शरीर
मागीर करतले विचार
नरकाची यातना अपार
सोडवपी कोण थंयच्यान भायर
आंगाक शुद्धि येवू तांय
भजन करी ताका पंढरीराय
एका जनार्दन सांगता अशी
वचूनाका पोकळ वस्तूचे मागशी

# संत तुळसीदास

तुळसीदासाक हिन्दी साहित्याकाशाचो चंद्रु म्हण्टाय. पुण ताचें बाल्य एकदम अन्धकारमय आशिल्लें खंय.

ताचो जन्म क्रिस्ताब्द 1532 वर्षा उत्तर प्रदेशांतुले बांदा जिल्लेंत आशिल्या राजापुर गांवांत जालो. ताचो बप्पा आत्माराम दुबे आनी अम्मा हुलसी. तीं सरयूपारीण ब्राह्मण आशिल्लीं. तुळसीदासाचो जन्म अभागी म्हूण लेकचे 'मूळ' नक्षत्राक जालेले कारणान आवस बापसून ताचो त्याग केल्लो. अशी तशी जावन दीस काडचे ते बालकाक स्वामी नरहरिदासान वाडयलो. ताची शिक्षा-दीक्षा सग नरहरिदासानच केल्लेली. हांचे लागी साकून बालक तुळसी श्रीरामाली काणी आयकतालो. आनी ती शिकून काडून तोच सांगतालोय. तशी ताका 'रामबोला' म्हूण नांव घालें. तो स्वामी नरहरीचे सांगातांत काशींतुले पंचगंगा घाटार वचून राबूक लागलो. थंय एकलो विद्वान महात्मा शेषसनातन म्हूण आशिल्लो, जाचे लागी साकून रामबोला वेद, वेदांग, इतिहास, पुराण आदी शिकूक लागलो. पन्नेरा वर्षांचो आसतना तुळसीदास परतून मायगावांत गेल्लो. तेन्ना थंय ताचे बन्धू कोणतरी जिवंत नाशिल्ले.

रामबोलाचें पांडित्य, विद्या, विनम्रस्वभाव आदी गूण पळोवन एक ब्राह्मणान ताजी धूव रत्नावलीक विवाह करून दिल्ली. तुळसीदास आपले बायलेचेर व्हड तरपेन अनुरक्त जालो आनी वेगळे कसल्यांत ताका तात्पर्य ना जालें. व्हारडीक जालेले उपरांते पयले पावटी रत्नावली यमुना न्हंयचे पेलतडी आशिल्ले आपले कुळाराक गेल्ली. तेन्ना तुळसीदासाक खूब विरह दुख जालें आनी रत्नावलेक सोडून राबूक शक्त न्हय जालो.

रत्नावलीचे घरा कडे वचाक रात्यां रात तो भायर सरलो. धारांधरी पावसांन यमुनेंत हुवार चडून आशिल्लो तरी तुळसीदास पोवनू न्हंय पार करून थंय पावलो. तिमून भिजून घरांत चडून आयलेले बामणाक पळोवन रत्नावली सहज जावन लजेन अनुतप्त जाली आनी तीणे ताचीं फकणां मारलीं.

तुमकां जायना वे लजा तर
अशी हांगा आयला धावंत
धिक्कार करतां असले प्रेमाचेर
सांगता हांव तुमकां नाथ
हाडा सालीचें देह मिजें
ताजेर तुमची असली प्रीति
श्रीरामाचेर असलो प्रेम करचें
तरी आसची ना भव-भीति.

हीं रत्नावलीचीं उतरां रामबोलाक हरद्यारीच तोपलीं आनी ताचे दोळे खरेच विसकळेले. विरक्त जावन, आयलेले पायारीच तो काशीक परतलो, आनीक भक्ति मार्गार चलूक लागलो. भक्तीन श्रीरामाची काणी गावून लोकांक आयकोंवचाक लागलो.

काशींत साकून अयोध्या, जगन्नाथ पुरी, रामेश्वर, द्वारका, बदरिकाश्रम आदी कडे तीर्थयात्रा करून तो कैलास मानसरोवर तांय वचून आयलो. ह्या यात्रेक इकूणीस वर्षां लागलीं. राम लक्ष्मणांची भेट जावूक तुळसीदास बरोच वांवटेतालो. हें जाण जावन एक दीसा हनुमंत एक वृद्ध ब्राह्मणाचे रूपार तुळसीदासाचे लागी गेलो आनी ताकाय घेवन चित्रकूटांत गेलो. थंय तुळसीदासाले मुकार श्रीराम लक्षमण प्रत्यक्ष जाले आनी तागेले इच्छेचो साक्षातकार जालो. रामचरितमानस बरोंवचाक हीच

प्रेरणा जाली.

चित्रकूटांत खूब दिसांक राबिले तेन्ना सूरदासा कडेन तांची भेट जाली. तें नंतर अयोध्येंत वचून राबून रामबोला रामचरितमानस बरोवूक लागलो. दोनी वर्सा आनी सात मासांनी तें बरोवन समाप्त केलेले उपरांते काशीक परतून गेलो. ह्याची कालाक तांची रहीमा कडेय भेट जाली.

1623 वर्सा तांचो देहांत जालो अशी अनुमान करताय.

"रामचरितमानस" हें तुळसीदासालें मुख्य काव्य. साधारण जनांक संस्कृत भाषेचें रामायण समजूक भारी कष्ट जाता हे कारणान सर्वांकय सरल जावन समजूक जांवचे रूपान अवधी भासेन तुळसीदासान तें साहित्यरत्न रचल्यां. हें एक सुंदर, उत्तम आनी लक्षण युक्त काव्य जावनासा. श्रीरामाले जीविताचो आदर्श सर्वांनीय आपले जीवितांत आपणांवचाक एक प्रेरणा जाता ही रचना.

हे रचनेंत सात काण्डानी - दोहा, चौपाई, छंद, सवैया, सोरठा आदी वृत्तानी रामकथा भोव सुंदर रूपान वर्णन केल्या. तांतु सर्व शब्दालंकारांचो आनी अर्थालंकाराचो समन्वय केलोलो आसा. सर्व रसांचेंय निरूपण केल्यां.

रामचरितमानस नंतना कवितावली, दोहावली, गीतावली, कृष्णगीतावली, विनय पत्रिका, रामाज्ञा, बरवैरामायण, राम लला नहछू, वैराग्य-संदीपनी, पार्वती-मंगल, राम-सतसई, हनुमान-बाहुक, जानकी-मंगल आदीय तांनी रचल्यां.

तांनी अवधी आनी ब्रज ह्या दोनी भासेनीय रचना केल्या. प्रबंध काव्य शैली, गीति काव्य शैली, मुक्तक काव्य शैली, छप्पय पद्धति, गीत पद्धति, दोहा-चौपाई पद्धति अशी समस्त काव्य शैलींचो प्रयोग केलोलासा.

प्रबंध-सौष्ठव, चरित्र, चित्रण, प्रकृति वर्णन, अलंकार विधान, भाषा आनी छन्द हांचो सग प्रयोग बरो जावन केल्लोलो तुळसीदास एक अद्वितीय कलाकारूच.

श्रीरामाचो अनन्य भक्त, राम-नामाचे अमोघ महिमेचेर अटल विश्वासी जावनाशिल्लो तुळसीदास सामाजिक, धार्मिक, सांप्रदायिक आनी राजनैतिक अश्या सगल्याय अनाचारांचो विरोधी आशिल्लो. पुण दुशेर्यांक उपदेश दिवंची संवय नाशिल्ली. देशाची आनी धर्माची दुर्दशा दिकून तांतु साकून मुक्ति मेळूक श्रीरामभक्तीच वकद जावन लेकतालो आनी हें मानतालो कि श्रीराम सृष्टीचे एकेक कणांतूय व्याप्त आसून सर्वांकय सुलभ जावन मेळचो, जशी खाण-उदाक मेळता. श्रीरामचंद्राक आदर्श पुत्र, आदर्श प्रेमी, आदर्श भाव, आदर्श मित्र, आदर्श वीर आनी आदर्श राजा ह्या रूपार समाजाचे मुकार सरळ भाषेन प्रस्तुत करून तांचे आधारान दुर्दशा दूरा करूक जातलें अशी तुळसीदास मानतालो.

सरळ, शांत, गंभीर आनी नम्र आशिल्लो तरीय निर्भीक आशिल्लो. पुण दुरभिमानी न्हय आशिल्लो. खालचे लोकांचे लागीय संतोषान मेळसतालो, तांच्या सांगातांत बेसून जेवतालो खातालो. आपले मधुर वचनांनी, सरळ जीवनान, अटल भत्तीन आनी व्यक्ति प्रभावान सर्वांक आपले वशांत करतालो.

समन्वयवादी आशिल्यान ज्ञान आनी भक्ति, लोक आनी शास्त्र, गार्हस्थ्य आनी वैराग्य, निर्गुण आनी सगुण, भाषा आनी संस्कृति, पुराण आनी काव्य, भावावेश आनी अनन्य चिंतन हांचो सग तुळसीदासान समावेश केला. हिन्दी भाषेंतुल्या साहित्यांत तुळसीदासालें नांव सदा उज्वल रूपान प्रकाशित जावन राबतलें म्हूण निसंशय सांगुयात.

# तुळसी वाणी

दोहा रूपी मणिमय दीपक
भरता प्रकाश जे काळजांत
थंय आसचोना मोहाचो काळोख
कलिकालाची काळकी, भय रूपी रात

*

वैद्य, मंत्री आनी गुरूंनी
हित उलोवूंक भय केलें तरी
तन, राज्य, धर्म हें तीनीं
नाश जाता होगी, म्हूण जाणा करी

*

प्रभूचे लागी होड सान
आसताय निर्बल आनी बलवान
तुळसी म्हण्टा - करयात हो अनुमान
हाताचीं बोंटां नासून एक समान

सांगता तुळसी - शरीर शेता समान
आनी शेतकार आसता मन
पाप, पुण्य बींयाळ दोन
वोयलेलें तेंच लुवणीक निदान

*

तुळसी सांगता मुखियाचें लक्षण
आसूका तो विवेकी तोंडा समान
तोडांतूच मेळता उदक, खाण
पुण पोसीता सगळें तन

*

भांगरा कळस्यांत भरला सूर
पळय मातिये कळस्यांत अमृत
सांग रे करून विवेकी विचार
कितें आपणायत? कितें सोडत!

तुळसी सांगता-आसाय साबार अहितकारक
जग जीवांक हित करचो एकलोच
सूर्य, अग्नि, वायू सुकयताय उदक
उदकाचो दानी मेघ एकलोच

※

तुळसी सांगता - सुसंग गंगे समान
उदकाक गंगा, दुर्जनांक सतसंग
करता दोगांय अपल्याचे सम
रामकृपेन मू जाता हें सग

※

तुळसी म्हणता - प्रेम पूर्व नित्य
सीतारामांचे केलें तरी स्मरण
परिणाम बरो, हें सत्य
निरंतर मंगळ, सदा कल्याण

अहित जायत आपण्याक म्हणून
शरणागताक हात सोडता जो
लेकुयात ताका दुःशकुन जावन
पापी, क्षुद्र, दरिद्र मू तो

※

स्वार्थान दिसता सगट पवित्र, हित
इच्छा नासतना अशुद्ध सर्वत्र
मत्तिंयां समान दिसताय तोंडात
निकळतना दांत हाड मात्र

※

सांगता तुळसी - आसूनूय सज्जनसंग
नीच करनाय नीचतेचो त्याग
गांदाचे रुकार राबूक योग
पुण विष सोडीना तो भुजंग

तुळसी म्हणता - देवी एकि विचित्र
आशा देवी नावांन वळकता सर्वत्र
सेवा करतना शोक भेंटूचें काम
विरोध करतना सूखाचें धाम

❊

सज्जना कडे मेळतना स्वभाव सरळ
पुण भितरच्यान आसता कपट
सदा वांकडें वचें हेवाळें, बीळ
पावून चडतना जाता मू नीट

❊

एकूच भरवंसो*, एकीच आस
एकच बळ, एकूच विश्वास
एक रामरूपी श्याममेघाक
राकचो चकोर जाला तुळसीदास

*भरवंसो - विश्वास, खात्री

तुळसी म्हणता - आपलें आचरण
आपण्याकच हित जायना वे?
जो एकलो नित्य खाता लोसूण
लोसूणाची घाणी ताका कळत वे?

*

तुळसी म्हणता - विपत्तीचे मित्र
धैर्य, धर्म, सत्य व्रत, विवेक
सतसाहित्य, साहस अथवा एक मात्र
श्रीरामाचेर भरवंसो एक

*

उतरां सांगने म्हूण पोट फुगचेंना
सांगिल्लीं उतरां राशि जांवचिना
विवेकी विचार करून उलय
अथवा समजून उलय यथासमय

मधुर उतरांचांक मेळता सौभाग्य
कोडु उतरां हाडताय अभाग्य
कोगुळा शब्दाक मानताय मधुर
कायळ्याचो तरी आसता किरकिर

※

उदक आटयतना कळयना कोणाक
वृष्टि घालतना हर्षु सर्वांक
तुळसी सांगता - तशी आसका रायु
जशी प्रजेचो हितकारी सूर्यू

※

रामकथा मंदाकिनीचे समान
चित्रकूटा समान सुंदर मन
तुळसी सांगता - स्नेह रूपी वन
थंय सीतारामालें वासस्थान

सज्जनांक चांगपणाचो झगझग
दुर्जनांक नीचतेचो लखलख
अमरत्व दिंवचें अमृत प्रशंसनीय
तशी मृत्यू दायक वीष आदरणीय

*

जाचें आसा निर्मल मन,
कपट रहित कर्म, सत्य वचन
तुळसी म्हणता - असले राम भक्तांक
घालचोना कलियुग घातोक

*

जीव-निर्जीव, गुण-दोष मय
विश्व हें रचल्यां रचणारान
संत रूपी हंस आसून विवेकमय
दूद स्वीकारता, उदक त्यजून

कीड्यान करचें रेशीम सूत
रेस्मी वस्त्र करताय ताच्यान
आसूनूय कीडो अशुद्ध अत्यंत
पोसताय ताका प्राण समान

※

सर्पा लागी खेळचे चेरडाक
वा उज्यांत हात घालूक करतना श्रम
तुळसीदास नांवांच्या बालकाक
अम्मा बप्पा वरी राकता श्रीराम

※

प्रभू लागी राबून सज्जन
सुखदायक जाताय, घेया समजून
दर्याचें मिटूस उदक, मेघाचें जीवन
पुण वृष्टि घालतना अमृता समान

तुळसी म्हणता-सुके रूक हुमाटून
कोब्बाक शिंपूचो मनीषु तो कठीन
मेघ तें करता निष्पक्ष पोषण
विषा, अमृता रुकांक एक समान

※

तुळसी म्हणता - दुष्टांचीं गोड उतरां
विचार करून समजून घेंवका
कारण जाली मूढ दासी मंथरा
श्रीराम राजाभिषेकाक बाधा

※

हास, उतरां, मेळ आसता मधुर
पुण मन भरून कोडु विचार
तुळसी म्हणता - तसल्यांचे सावळेक लगेन
आपडूक संकोच करता बुद्धिमान

अशुद्ध लागलेलें वचन, विचार
तन, मन, कर्म आनी आचार
अन्तर्यामी देवाक फटोवन हे प्रकार
तुळसी म्हणता सूख कशी मेळचें तर

❊

देश, काल, कर्ता, कर्म, वचनाचो
विचार नाशिल्लें उपकरता जो
कल्पवृक्षा मूळांत राबूनूय दरिद्र
गंगा पाडीक राबूनूय पापीच तो

❊

दुर्योधनाले सभेंतुले सग शकुनीक
मानताले प्रशंसा योग्य, बुद्धिमान
आनी द्रोण, विदुर, भीष्म, कृष्णाक
ते म्हणताले फटियारे म्हूण

कलह तें ल्हान म्हणून सोडतना
व्हड आसता कलहाचें परिणाम
दरिद्राले खोमटाक उजो लागतना
धनिकालेंय जळतलें धन धाम

*

कठोर उतरांनी मारूक नज
खाण घटी खावोवूक जावन मारी
तसलो हार, सास जीत म्हूण समज
वचन बाणांची जीत, हार सरी

*

हित वचन वैरीचें मूळ नाशक
प्रेमाचें मूळ म्हणताय हित कर्माक
तुळसी म्हणता - विनम्रता शुभदायक
विचार करतना जाता समजूक

कोपू चडून जीब काडशी
ताजाकय चांग खांडें काडचें
करून विचार उलय अशी
आयकूक गोड, हित परिणामाचें

❊

चोंच नयन आनी पावल
हांचे रंग परतून करता हंसचाल
क्षीर नीर वेगळांवचो वेळ*1
पांवतना उगडता ढोंकाचो नक्कल*2

❊

वेष, वचन पळोवन कशी कळचें
नर नारीले मनाचें दुष्टपण
त्या प्रमुखांचो उडगास करचें
शूर्पणका, मारीच, पूतना आनी रावण

*1 क्षीर नीर वेगळांवचो वेळ - उदक आनी दूद हाजें मिश्रणांत साकून दूद मात्र स्वीकारूक राजहंसाक जातलें म्हूण म्हणताय. *2 नक्कल - फटिंगपण

शूरवीर युद्धांत करताय करणी
आपल्याकच दीनाय उक्तावणी*[1]
प्रताप सांगूक लागता भित्रू*[2]
दिकून रणभूमींत राबीला शत्रू

❊

तुळसी म्हणता - भुकेंतूय तृप्त जो
विजयांतूय आपलो हार मानचो
विचार करून चांगवाटेर वचो
बुद्धिमान आनी प्रशंसनीय तो

❊

समय पालन केल्यार मेळता लाभ
समय चुकयल्यार सर्वय नष्ट
बुधवंताक आसता हाची समज
दोनीय दिसांक बरें - वायट हें स्पष्ट

---

*[1] उक्तावणी - आपले विचार वा करणी भायर जाणोंवचीं उतरां
*[2] भित्रू - भिजूडो

अमृता विशीं आयकल्यां मात्र
दिकूयात वीष सर्व दिकार
कायळो, ढोंक, घुघुम सुलभ सर्वत्र
पुण राजहंस आसता मानसरोवर

※

तुळसी सांगता - सहन करी कुवचन
सोसून तरी अन्याय, अपमान
धर्माक घटी धरून करी रक्षण
सज्जनालें हेंच वचन, आचरण

※

यथासमय उणे कितेंय दीवूक केल्ली चूक
प्रयोजन कित्तें मागीर दीवून लाख
द्वितियाक दिकनाय तरी चंद्राक
पक्षभर उदय जावन कितें मेळूक

# पूंतानम नंपूतिरी

1547-1640



# पूंतानम नंपूतिरी

केरळांतुले मलयाळम भक्तिकवीं मद्दें पूंतानम नंपूतिरीक व्हड स्थान आसा. पूंतानाचो जन्म क्रिस्ताब्द 1547 वर्षा जालो. पूजारी वर्गांतुले ताका व्हड विद्याभ्यास नाशिल्लो, वेद कळनाशिल्ले, संस्कृत भासेची जाणविकाय ऊणे मात्र आशिल्ली. ताका पंडित वा ज्ञानी म्हणूक साध्य न्हय, पुण मलयाळम भक्ति साहित्यांत ताजें योगदान महत्वपूर्ण जावन आसा. 'ज्ञानप्पाना' हे नांवान ताणे रचिल्लें काव्य अर्थाचे खोलायेंत सरळतेंत आनी भक्तींत मुकार आसा. ते काव्याचे रचनेक कारण जालेली पूंतानाचे जीवितांतुली एकि दुरित कथा.

अंगाडिपुरम म्हळ्ळेले गावांत पत्नी समेत वास करून येताले पूंतानमाक चेरडूवां नाशिल्लीं. ते कारणान तीं खूब दुख पांवतालीं. तांनी गुरुवायूरप्पाचे (अंगाडिपुरम साकून 60 कि.मी. दूरा आशिल्ले गुरुवायूर देवळांतुलो कृष्ण) लागी भक्तीन प्रार्थना केल्ली. तेन्ना तांची निष्ठा पळोवन देवाले दयेन एक पूत जालो. तांगेले संतोषाक सीमा ना जाली.

चेरडाक अन्नप्राशाचो वेळ आयलो. ते गंभीर आघोषांत आनी तांचे संतोषांत भाग घेवूक खूब जनां येवन पावलीं. चेरडाले आवसून ओपुरबायेन चेरडाक न्हाणोवन, दूद पीवोवन जावन निदावन घालें. बारस्या वेळार चेरडाक सोदल्यार चेरडूं दिकूक ना. हांगा थांगा सगट सोदून जावन मागीर दिकीलें कि चेरडाक निदायलेले कडे राशि जावन पडलेले आंगवस्त्रांचे पोंदाक वायू मेळनातिल्लें तें चेरडूं अकालमृत्यू पावल्यां. एक सोयर्यान ताजें आंगवस्त्र नेणतना चेरडाचे आंगार घालेलें. तें आंगवस्त्र थांगा पडल्यां पळोवन अन्य जनांनीय तांगतांगेलीं आंगवस्त्रां

थंयीच उडेयलीं. तशी आंगवस्त्रांचे राशीचे पोंदाक पडून घूसमुटून तें चेरडूं परतून येवूक जावनातिल्ले कडे पावलें.

पूंतानाक आनी बायलेक तो आघात कशीच सहन करूक जायना जालो. ना ना म्हणून देवाक भोजून मेळ्ळेली निधि. एक क्षणाचे अश्रद्धेन नष्ट जाल्या. दुखान करतना तीं विडविडेलीं. ते दुखांत पूंतानान गुरुवायूरप्पाचे भक्तींत शरण घेतलें. ताजे नष्ट जालेले पूताचे बदलाक गुरुवायूरप्पाकच तो पूत जावन मानूक लागलो. ताका लागून 'ज्ञानप्पाना' म्हळ्ळेले काव्याची रचना जाली.

तेच कालाक गुरुवायूर देवळांत बेसून एक महा पंडित ताची संस्कृत कृति 'नारायणीयम' रचता आशिल्लो. तो मेलपत्तूर नारायण भट्टतिरी आपण्याले पांडित्याचे पासून अहंकार दवरतालो. एक दीसा पूंतानम आपण्याली 'ज्ञानप्पाना' घेवन मेलपत्तूराचे लागी गेलो आनी तांतू कितेंय चूकि आसा जाल्यार मार्ग दर्शन करका म्हूण विनंती केल्ली.

संस्कृताक मात्र तं मोल अशी लेकूच्या मेलपत्तूरान मलयाळम भाषेन रचिल्ली 'ज्ञानप्पाना' वाचून चोवूक सरी दया दाकयलीना. तें नंतण पूंतानाक फकणां करून सांगलें "तुजी रचना चूकीन भरून आसतली. माका ती वाचूक येदो सरी वेळ ना. हांव एक महत् कृतीचे रचनेंत लागून आसा दिकलेंना वें? हांगा साकून आतां वच!"

हें आयकून पूंतानाक खूब दुख जालें आनी ताजे दोळ्यांत साकून दुकां होळूक लागलीं. आश्रित वत्सल गुरुवायूरप्पाक भक्तांचें दुख सहन जाता वे? तेन्ना गर्भगृहांत साकून अशी देववाणी आयकूक पडली. "पूंतानाक संस्कृताचें ज्ञान आनी विभक्ति ऊणे आसूक पूरो. तरी भक्तींत

तो तुज्या मुकारीची. तुजे विभक्तीचे पशी चड ताजी भक्ति तं माका आवडता!" हीं देववचनां आयकून मेलपत्तूर आपण्याली चूकि समजलो. पूंतानाचे लागी ताणे क्षमा मागीली. 'ज्ञानप्पाना' घेवन वाचून तांतूले अर्थाची खोलाय पळोवन अतिशय पावलो. नंतणा आपण्याले कृतीक 'ज्ञानप्पाना' मार्ग दर्शी जावन मानूक लागलो.

पूंतानम सदांच गुरुवायूर देवळांत बेसून भागवत् पारायण करतालो आनी तें ताचें सरळ विवरण आयकूक व्हड संख्येन भक्त येवनू पांवताले. देवाचे व्हड भक्त जावन लोक ताका आदर करताले. देनपारांचें देवळांतुले ब्राह्मण भोजनाक ताका बेसूक प्रमुख स्थाय दिताली.

एक दिसा खंय दूरा साकून एक महा पंडित गुरुवायूर देवळांत पावलो आनी देवस्वं अधिकार्यानी ते पंडिताक प्रमुख स्थान दीवूक निश्चय केलो. हें नेंणतना पूंतानम केन्नाच वरी वचून आपणाले स्थानार बेसलो म्हणतना अधिकारीन ताका थंय साकून उटकरायलो. अतिथी जावन आयलोलो मनीष एक व्हड पंडित. तो पूंतानाचे पशी कितलेंच चड ज्ञान आशिल्लो. तें दिकून ते प्रमुख स्थानाक अर्ह तो पंडितूच म्हूण अधिकार्यान सांगीलें. हीं उतरां आयकून पूंतानाक ताजे अज्ञाना विशीं जायत्यां मुकार अवहेळना भोगुका जाली मू म्हूण खेद जालो. तो दुख भरून थंय साकून वतना भितरचान देववाणी आयकूक पडली "पूंतानम! आनी हांगा हे दुष्ट लोकांचे मद्दे राबूका नाका. तुजे घराकडे वच. हांव थंय येतां!"

तेन्नाच तो देवलो आनी उपवास घेवनू देवाचेर ध्यान करून बेसूक लागलो. देव थंय प्रत्यक्ष जालो आनी पूंतानाक अनुग्रह दिलो. एक देवळ बांदून तेन्ना साकून पूंतानम थंयीच गुरुवायूरप्पाक भोजून दीस

काडूक लागलो.

खूब वर्सां गेलीं. पूंतानाक प्राय जाली. खंयीच वचाक साध्य न्हय जालें आनी तो सगळो वेळ भागवताचे पारायणांत लागून वरलो. एक दिसा ताणे ताजे बायलेचे लागी म्हळ्ळें. "माका वैकुंठांत व्हरूक फाल्ले देवदूत येता अशी देवान सपनांत सांगल्यां. ते खातीर घर सगळें शिंगारून तयार करका!"

प्राय जालेले एकल्याली मानसिक विभ्रांति ही म्हणून बायलेन तें मनांत व्हेल्लेंना. हेरदूसा साकणी ती दंदार आसतना तो भायर राबून गोंदोळ घालता. 'आमकां वैकुण्ठांत व्हरूक भांगरा रथू आयला. तूं होगी भायर यो. आमकां स्वर्गार वचाक वेळू जाला."

ती धावन भायर आयली तरी भांगरा रथू कांय तीणे दिकलोना. बामणाक पिशें लागल्यां म्हूण लेकून तीणे सांगीलें. "माका वासर्यांत खूब दंद आसा. तुमी वचाय." तेन्ना थंयचे दंदकारणीन पूंतानाचेर विश्वास दवरून निमगीलें "स्वामी, हांवय तुमचे ओटू वैकुण्ठांत येता वे?"

"नज कित्याक? सगटांकय वचात मू!" हीं तांगेलीं वर्तमानां आयकून ताजे बायलेक कोप आयलो. आनी हे पिश्या मनिशांचे लागी उलोवन राबल्यार आपण्याकय पिशें लागतलें म्हणून ती भितर गेल्ली. थोडो वेळ जातरीय कोण भितर येता दिकूनाशिल्लें ती भायर देवन चोयली. तेन्ना थंय मरून पडलेले दंदकारणीक दिकीली. पूंतानाक थंय खंय दिकूक नाशिल्लो. परम भक्त पूंतानाक देवान सशरीर वैकुण्ठांत व्हेल्लो म्हूण तोडोव जावन जाल्यारीय तिका जाणीव आयली. तें 1640 वर्ष आशिल्लें.

दुर्मार्गार वचे जनांक सन्मार्ग दाकोवन दिंवचे तसलें तें 'ज्ञानप्पाना'. जनांचो अपथमार्ग विशकलन करून हे कवीन स्थान मान कांय पळयनाशें,

ब्राह्मण कि शूद्र पळयनाशें, सर्वांकय एकच वरी गुणदोष समजावूक मनोधैर्य दाकयलें. जीवितमूल्यांक आनी तत्वज्ञानाकय 'ज्ञानप्पाना' काव्यांत महत्वाचें स्थान दिल्यां.

सूक्ष्मस्वभावान वर्णन करच्यांत हे कवीक एक अपार वासना आशिल्ली. जीवितसत्यां कडे बोट दाकोवन कवि वाचकांक, आयकुपयांक ईश्वरभक्ती कडे पांवयता - 'भक्ति तं मुक्तीची वाट!' हें ताजे सर्व कवनांतूय दृष्टि पडता. संसारी सूखाची व्यर्थता आनी हरीनाम उच्चाराची आवश्यकता हें ज्ञानप्पानेंत सहज रूपान प्रतिपादन केल्यां. चड अलंकार कांय हे काव्यांत ना तरी भक्तिमय जावन आशिल्यान तें आस्वादकांक प्रिय जावन आसा.

'ज्ञानप्पाना' नंतणा पूंतानाचे 'श्रीकृष्णकर्णामृतं', 'संतानगोपालं' आदी रचनेंकय साहित्यांत उन्नत स्थान आसा. देवाचेर आशिल्ले भक्तीचे भरसी वात्सल्य लागेन ताजे साहित्यांत भरून आसा. सरळ मलयाळम भाषेन लाळित्य भरलेलीं ताजीं कीर्तनां आजीय जनांचे जिबेर भोंवताच आसाय.

# ज्ञानप्पाना

## गुरुवंदन

कृष्ण कृष्णा मुकुंदा जनार्दना
कृष्ण गोविंद नारायणा हरे
अच्युतानंद गोविंदा माधवा
सच्चितानंद नारायणा हरे
गुरुनाथान कृपा करका मिजेर
देवनाम सदा जांवका जिबेर
नरजन्म हो सफल जावूक
देवनाम सतत जाय राबूक

## जीवित

काली तांय कितें म्हूण कळेंना
आनी फाले कितें म्हणूय जाणीव ना
आजी हे दिकूचे देहाक केन्ना
विनाश आसत, तेंवय कळीत ना
दिकता दिकता जिवाळ जनांक
दिसना करता तूंच मू भगवन
दोन चार दिसानी एकल्याक
पालकेंत चडयता तूंच मू भगवन

रावळारा माळियेर बेसपी रायाले
खांदार मोट चडयताय तूंच भगवन
दिकून हें समजता थोड्यांक
समज ना मू येदें सरी आनी थोड्यांक
दिसता तें कांय सत्य न्हय म्हूण
जाण जाताय थोडीं, मुर्थमच पळोवन
लोक मू आसाय विविध प्रकार
विशेष बुद्धिचेय आसाय, उडगास दवर
जाण जावूक थोड्यांक खूब आस
शास्त्र तें सांगता कायरीं सास
अधिकारी कर्माचे ते जनांक
कर्मशास्त्रां आसाय खूब सांगूक
कर्मशास्त्रां, योग आदी
आसाय अनेक असंख्य जाति
संसार चक्रांत खोल रिगून
जाणविकाय मेळूक सर्वत्र सोदून
महंत जाताय ते मेळून ज्ञान
परमार्थ तेच दिताय सांगून
मुक्ति सोपी मेळूक वाट चांग
कान दीवन आयका सांगचो मार्ग
सर्वांक बंधनांत घालता तें साधन
कर्मच म्हूण शुरवेकच घेया समजून
हें मुकार दिकचें विश्व सगळें
एकच ज्योतिस्वरूप म्हूण तानी वळकयलें

## अद्वैत तत्व

एकय वचून ताजेर थापनाशें
एकाकय वचून तो मेळनाशें
एकाक एक म्हूण लेकूचे जनांक
एकानच समजूचो वस्तू जावन
एकांतूय जाणीव नाशिल्ले जनांक
एकांतूय दिकूनाशिल्लो वस्तू जावन
ते एकल्याचे वरी आनी एक ना
एक जीवस्वरूप विना वेगळें ना
एकूय संबंद्ध नासून एकांतूय
ताणेच मू विश्व हें रचलें खंय
तिनीय एकांतूच विलीन जातना
तेन्ना विश्व म्हूण कांयच ना

## कर्म बंधन

एकल्यान रचिल्ले हे विश्वांत
प्रकार तीनि मू कर्मांत
पुण्य कर्म, पाप कर्म आनी
पुण्य पाप मिश्रित अशी तीनी
तिनीकय पळयतना नियाळून
समजता, जीवाक धरताय तीं बांदून

तांतूली एक संकाळ भांगराची
आनी एक आसता लोकण्डाची
दोनीय भरसून केल्लेल्याचें फल
मिश्र कर्माची ती संकाळ
ब्रह्मा साकून मूस मूय तांय
कर्म बंधनांत मू आसा सर्वय
कर्म पाश तुंटोवन कांय
ब्रह्माक सरी वांचूक साध्य न्हय
तें लोक सृष्टि म्हळ्ळेलें कार्य
लोकांत्य प्रळय येवू तांय
ते कारणान मू ते दिकपालक
बांदून पडल्याय दिक्कार एकेक

## संसारचक्र

अप्ल कर्मी आसून आमी सर्वय
कालांतरान विभिन्न जन्म घेताय
विभिन्न गर्भांत चडून आनी देवन
कर्माचे खेळ खेळताय हे लेकान
नरकांत पडलोलो जीव एक
पापाचीं दुरितां भोगून सरून
मनाक परिपक्वता येवून
क्रमान मनुष्य कुलांत जन्मून

सुकृत करून स्वर्गार वचून
सूख भोगता थंय राबून
सुकृतां सर्वय वतना सरून
तीळा येदें सरी पुण्य नासून
मागीरीय भूमीर घेताय जनन
नंतर मरताय पापां खूब करून
आनी ते दुरिताचे फलान
भोगताय नरकांत वचून पडून
एक जीव स्वर्गांत साकून
भूदेव जाता नरलोकांत वचून
दष्कर्मी एक मनीष मरता
आनी चंडाळ कुलांत जन्मता
असूर देव जाता
देव रूक जाता
बोकड मरून हस्तो जावन जन्मता
हस्तो मरून बोकडूय जाता
वाग मरून मनीष जाता
बायल मरून हुयेल धालचो कोल्लो जाता
दया नीशिल्लें पीडा दिंवचो राय
मरून कीडो जावन जन्मता फाय
मूस मरून माजर जाता
देवाचो खेळ अशी चमकता

## धरतरेचें महत्व

खाल ऊंच धांवताय अशी जीव
भूमीर साकून जोडताय नशीब
सीमा नाशिल्ले तितलें वेगवेगळें
केवल भूमीचेर येवन कर्म जोडलें
तशी करून जोडलेल्याचें फल
अन्य एकेक लोकांतूय जावन जीवजाल
भोगताय मू मरणानंतर वेळ
आपणान केल्लेले कर्मांचे फल
सरतलें वतरी येदोच काळ
तेन्नाच कर्मांनी जोडताय मागीरीय फल
आपले आपले घरांत साकून
घेवन आयिल्लें सर्वय धन
खंयीच एकडे बेसून जशी
खर्चून करचे जेवणा तशी
समजाय तुमी ही जन्म भूमी
आसा तुमची कर्मभूमी
कर्म नाश करका तरी हंय
नंतणा खंयीच जांवचें न्हय
भक्तांक, मोक्ष आशेंवचांक
आनी विषयासक्त जनांक
आशेलेलें सर्वय दीत राबची
भूमी हीच आवस विश्वाची

विश्वेश्वराली आसून मूल प्रकृति
प्रत्यक्ष रूपान दिकची हीच ती
हिजेच पालन करूक म्हणून
आवतार जायते घेतले देवान
ते कारणानच ही धरतरी
चोवधाय लोकांत उत्तम खरी
आदरान सांगताय मू हेंच, वेद आनी
मुनिगण, आसून ते वेद ज्ञानी

## भारत

लवण समुद्राचे मद्दें विराजूचे
जंबू द्वीप आसा लाख योजनेंचें
मानताय हाकाच उत्तम सर्वांत
आसून द्वीप सात, हे लोकांत
भूपत्माक्षाचें बीजकोश सरी
पर्वत राय राबला ताजेरी
आसाय तांतू णव खण्डां
उत्तम हेंच भारत भूखण्ड
आदरणीय महामुनि श्रेष्ट
म्हणताय हाकाच कर्मक्षेत्र
कर्मांचें बींयाळ किरलेवंका हांगाच
ब्रह्मलोकांत वास करच्यांकय तेंच
कर्मबींयाळ सुकोवन सोडून

जन्मांतरांत साकून वांचूक जावन
भारत खण्डांत विना
वेगळे खंयीच सोंपें* जायश ना
तितलेंच आसा प्राधान्य
हे भारत प्रदेशाक, म्हूण समजाय

## कलियुग

चार युगांत बरें तें कलियुग
सुखान मुक्ति मेळूक चांग
कृष्णा, कृष्णा, मुकुंदा जनार्दना
कृष्ण गोविंदा, रामा अशी नाना
आसाय मू देवनाम संकीर्तनां
प्रयत्न वेगळो नाका तीं नंतणा
अशी करतना चिंतनां
वरलेले तेरा लोकांतूलीं जनां
अन्य स द्वीपांतुलीं जनां
अन्य आट खण्डांतूलीं जनां
आनी अन्य तीन युगांतुले लोक
वेगळो मार्ग नासून, आपण्याले मुक्तीक
कलिकालाक आनी भारतखण्डाक
नमस्कार करताय आदरपूर्वक
तण पुणीय जावन तांतू, एक

*सोंपें - लळित, प्रयत्न नाशिल्लें

जनन तरी घेवून राबूक
सर जालेली योग्यता मेळूक
जालो मू देवा, ऊणाव आमचे भाग्याक
म्हूण कलीक आनी भारतवासींक
नमस्कार सांगचो आयक
अशी स्तुति करताय अन्य लोक
म्हूण गर्वान सांगताय आमी कित्याक
कालु आतां कलियुग न्हय वे
प्रदेश हो भारत न्हय वे
आमी सगट मनीष न्हय वे
मनांत चिंतनां करका न्हय वे

## जीवित

हरिनामां करनाशिल्लें वताय वे
नरकाचें तरी भय ना वे
तुमचो जन्म जीब नाशिल्लो वे
विनाश ना म्हूण आठयताय वे
कष्ट! कष्ट! चिंतनां नासून मू
करताय व्यर्थ तुमचो जन्मू
कितले जन्मांत प्रयास काडले
आतां हांगा सुकृतान जन्मले
कितले जन्म मलांत पडले
कितले जन्म उदकांत जियेले

कितले जन्म रेवेंत भोवले
कितले जन्म रूक जावन राबले
कितले जन्म चरतले जाले
कितले जन्मांत मृगरूप धरले
तेन्ना साकून अशीच दीसकाडले
हे मनुष्य जन्माचे मुर्थमले
कितले कष्ट काडून आवसूले
समजून घेयाय तुमी, गभपात्रांत पडले
धा मास पोटांत जावन गेले
धा-बारा वर्षां बालक जावन गेले
अभिमानान हांव हांव म्हूण भोवले
आपणाकच वळकी नाशिल्ले जाले
हो जीव आनी कितले काळाक
हे देवा, जातलें वे हें सत्य कळूक
उदकांतुले फुग्या सारके हे देहांत
स्वास मात्र आसा अशी समजूयात
नेणटें कष्ट भोगूचे दीस
दुबळो दुबळो जातलो मू स्वास
तितलें मात्र आसूचे वेळारीय
उडगास करनाय देवनाम कोणेय

## समूह

स्थानां मानां खातीर कलह करून
लज्जा सोडून भोंवताय थोडीं
अहंभावान मत्सर चडून
बुद्धिभ्रम जावन भोंवताय थोडीं
चेडियांचे घराकडे वचून
मांकडां सरी नांचताय थोडीं
रावळारांतुले भृत्यांचो वेष बांदून
व्हडवीक दाकोवन भोंवताय थोडीं
सांज पर्यंत पूजा करून
जियेंवचे खातीर भोंवताय थोडीं
अम्मा बप्पाक आनी बायलेक
भुकेक कांयीच दीनाय थोडीं
अग्निसाक्षी जावन हाडलेले बायलेक
सपनांत सरी दिकनाय थोडीं
सज्जनांनी उपदेश दिंवचे वेळार
शत्रु जावन लेकून कोपताय थोडीं
आदरणीयांक मुकार दिकूचे वेळार
निन्दा करून उलेयताय थोडीं
गर्व काडताय, आपणाले करणेन
विश्व अशी राबल्यां म्हूण थोडीं
ब्राह्मण्याचे भारान बावगून बावगून

ब्रह्मा सरी तुल्य जावना म्हूण थोडीं
धनाचे आशेन जोडचे खातीर
याग-यज्ञ करताय थोडीं
भांगार नवरत्नां इत्यादी
असंख्याचो ब्यार करताय थोडीं
मदहस्ताक तांय विकताय आनी अति
उत्तम घोड्यांकय विकताय थोडीं
तें नंतणां तारुवां अधिक विकून
शिवा! शिवा! कितलें जोडताय थोडीं!
दंद नासूनूय धूर्त जावन केन्नाय
धना आशेन नाश पांवताय कितलीं
धन कितलेंय चड आसा तरीय
मनस्थिति एकीच, तृप्ति नाशिल्ली!
धा मेळ्यार शें जाय
शें मेळ्यार सासाची आशा येतली
सास दुड्ड हातांत पांवतना
धा सास जाल्यार बरें आसतलें
अशी आशा-पाशांत पडतना
मुक्ति नाशिल्ले वरी जाता चड चड
संतानी वचून मागल्यारी धन
सल्प मात्र दिताय दुष्टां थोडीं
मरून वतना व्हरूक अवसूना
वस्त्र सरी म्हूण विसरताय थोडीं

पश्चाताप तीळा येदो सरी नासून
विश्वासघात करताय मू थोडीं
धनाची आशा लागल्ले कारणान
सत्याक त्यजून भोंवताय थोडीं

## सत्य

सत्य म्हळ्यार परब्रह्माच म्हणून
सत्य हें वळकताय संत लोक खरे
विद्येन मेळचें मेळनाशिल्लें
विद्वान म्हणून गर्व पांवताय थोडीं
कुंकुमेचो परमळ कळूनाशिल्लें
कुंकुम व्हांवचे गाडवाचे समान थोडीं
कृष्णा! कृष्णा! चिंतन करतना
तृष्णेचो मूं भ्रम सर्वांकय
मेजून मेजून मू सरता हो आयू
ऊंच ऊंच मू चडता तो आग्रहू
ओणम*[1] आयलें, विषू*[1] तरी जालें
म्हणताय तरी आयलेना तिरुवातिरा*[1]
कुंभ*[2] मास येता मात्र
तांतू अश्वति आपणालें जन्म नक्षत्र
श्राद्धाचो मास वृश्चिक*[2] मास
नेगु करूक सोपें न्हय आनीक

*[1]ओणम, विषू, तिरुवातिरा - केरळांतुल्यो परबो *[2]कुंभ, वृश्चिक - दोनी मलयाळम मासांचीं नांवां

जन्मले पुताक करोवन व्हारडीक
नातु जालोलो पळोंवका आपण्याक
आखड्यांतूलें शेत आनीक
दीवूक नज उचापतीक*
अशी एकेक चिंतून बेसतना
मरून वता मू बाबडो, शिवा शिवा!
कित्याक इतलें चडच सांगल्यां
चिंतन करून चोयाय सर्वय
कर्मांचे व्हडपणा लेकान एकेक
जन्म साबार भोगून सरले
विशाल आसून हो भारत खण्ड
तांतूच जन्मले कितले पावट
व्यर्थ जन्म सरयलेली रीत
आनी आयू आसून प्रमाण रहित

## मुक्ति

आरोग्याची अवस्था आसून बरी
नाम संकीर्तनांनी मू धरारी
मेळतलें पुरुषार्थ, वतलें नरकभय
करून चोय निरूपण अवश्य
कित्या वृथा वेळ सारताय
वैकुंठाक वचाक चोयाय सर्वय

*उचापती - म्हाल वा स्थल उदार घेवपी

जनन घेतना एकसानी न्हय
मरणांतूय एकसानी न्हय
मद्दें अशी दिकचे वेळारी
वृथा मत्सर कित्याक तरी?

## व्यर्थता

आवश्य वे पुरुषार्थ आसतना
धनाक वळवळेंवचो स्वभाव आमकां?
देनपरांचे सूर्यप्रकाश आसतना
कजोळ्याक वे मान दींवका?
बालकृष्ण तो मनांत खेळतना
पूत कियाक वेगळे जांवका?
शिवा शिवा! भूमीर आसा कि ना
विष्णु भक्त कितले मित्र आमकां
विष्णुमायेन दाकोंवचे खेळ दिकतना
बायलेलो श्रृंगार विरूप दिसता

## सौभाग्य

लोकांतुलें ऐश्वर्य सर्वय
करता हांगाच आमचो स्वर्ग
विश्वनाथ बापुस आमचो सर्वांचोय

भूमी ही आवस चराचरांची
आवस बापुस आसाय मू
सदा रक्षण करूक सर्वांकय
मागून घेतल्लें अन्न आसा मू
खांवका नंतणा वेगळें कितें कार्य?

## विरक्ति

आसक्ति सर्वय सोडून केन्नाय
भक्तीन देवनाम जप कराय
शेष काल सगळो सरु तांय
अशी श्रद्धेन जियेंवका सर्वांनीय
मुकार दिकचे चराचर प्राण्यांक
लज्जा सोडून प्रणाम कराय
आनन्दाश्रून उन्मत्त जावून
सहन करका कठिनाधि सर्वय
सज्जनांक दिकूचे वेळार
लज्जा विसरून चरणार पडाय
भक्ति आपण्यांत भरून येतना
उन्मत्त जावन नांच कराय
लोकांत तशी तशी भोंवतना
वतलें सोडून प्राराब्ध सर्वय
भुंयचेर एकडे पडतलें देह
सरून वतना कर्म सर्वय

वांवट काडून परब्रह्माक दिकतना
जीव तेन्नाच वता उडून

## जन्म साफल्य

आसक्ति सोडून भोवलेले तेन्नाय
मुक्तीक पात्र जालोना म्हणून
भोवनाका मनांत दुख भरून
देवनामाचें माहात्म्य हें आयकाय
जाती चोयतना चंडाळ तरीय
वेदपारायण करचो भूदेव तरीय
जीब नाशिल्लें जन्मले तरीय
मुंगे सोडून अन्य मनीष सर्वय
असंख्य देवनामांतुलें एक पुणीय
दिसाक एक वेळार पुणीय
स्वस्थ बेठो बेसतना पुणीय
सपनांत नेणतना पुणीय
परिहासा रूपान पुणीय
वेगळ्या खातीर पुणीय
खंचेय दिकार बेसतना पुणीय
आपणाले जिबेन घेतलें तरी
तेंवय ना दिसाक एक पसार पुणीय
कानान आयकीलें तरी
जातलो मू तेन्नाच जन्म सफल

ब्रह्म सायूज्य मू फल
सांगल्यां अशी श्रीधराचार्यान
सांगल्यां हेंच बादरायणान
हेंच सांगल्यां गीतेन
आनी हेंच मानताय वेदय
आनन्द भरून नाम म्हणाय
आनन्दान ब्रह्मांत लीन जायाय
बुद्धि आशिल्यांक हें सग पूरो
वळकूक देवनामाचें माहात्मय
चूकि कि चूकि न्हय हें खरें
सांग देवा तें मनांतुलें -

# रहीम

1556-1627






# रहीम

मुगळचक्रवर्ती अकबराले दरबारांतुले नवरत्नांतुलो एक आशिल्लो कविवर्य अब्दुर्रहीम खानखाना. हिन्दींतुले प्राचीन कवीं मद्दें रहीम एक असलो कवि जाचें कार्यक्षेत्र आनी जीवन अनुभव अति विशाल.

अकबर, जहांगीर हांचे शासन कालार बरयलेले पुस्तकांतुल्यान रहीमाचे जीवनकाला पसून प्रामाणिक रूपान विस्तारान माहिती मेळता. अकबरनामा, आइने अकबरी, तुजुके जहांगीरी, मआसिरे रहीमी, खानखानानामा, अकबरी दरबार आदी पुस्तकांतुल्यान रहीमा विंशीं अशी माहिती मेळता -

रहीमाचो जन्म 17 सितम्बर 1556 त लाहोरांत जालो. रहीमाचो बप्पा बैरम खाँ तुर्क जातीचो आशिल्लो आनी युवावस्थेंत साकून हुमायूंचो विश्वस्थ सेनापती आनी राजनीतींत सहायक आशिल्लो. रहीमाची अम्मा एक मेवाड जमींदाराली धूव आशिल्ली जिची एक भयणी स्वयं हुमायूंची राणी आशिल्ली.

हुमायूंचे मृत्युचे उपरांत थोडे वर्षांनी बैरम खानाक विद्रोहियानी दिंशी मारलो आनी ताजें कुटुंब अनाथ जालें. तेन्ना रहीमाक चार वर्षां मात्र आशिल्लीं. हुमायूंचे मृत्यूचे उपरांत बैरम खानान तेरा वर्षांचे अकबराचे लागी जशी महत्वकांक्षी स्नेहमय व्यवहार केल्लोलो तसलो व्यवहार अकबरान चार वर्षांचे रहीमाचे लागीय केल्लो. तागेले शिकवणेक आनी पालन पोषणाक विविध सुविधा प्रदान केल्ली जाचान रहीम तुर्की भासे बराबर अरबी, फारसी, संस्कृत आनी हिन्दी भासेंतूय विद्वान जालो. इकरा वर्षांचो आसतना साकून रहीम काव्य रचनेंत लागलो.

रहीमाक सोळा वर्षां आसतना अकबरान ताचेर सेनापतीचो भार

सोंपयलो आनी तेन्ना साकून वृद्धावस्थेर पर्यान तो एक ना तरी आनी एक युद्धांत लागून आशिल्लो. युद्धविराम जाता तेन्ना एकदा दोन चार मास समय मेळ्ळो तरी तो साहित्य साधना करतालो. असलेच एक समयान ताणे बाबराचें जीव चरित्र 'तुजुके बाबरी' तुर्कींत साकून फारसींत अनुवाद केल्लें. हें एक कठीन साहित्यिक कार्य आशिल्लें.

अकबर एक गुणग्राही आनी नीतिज्ञ व्यक्ति आशिल्यान रहीमाची योग्यता आनी कार्यकुशलता खूब वळकतालो. कसलेय कार्यांत रहीमाचो अभिप्राय निमगून घेतालो आनी ते कारणान दरबारांतुलीं खूब जनां ताजेर इर्ष्या भाव दवरतालीं. पुण ताजो व्यवहार सदां संतुलित आनी संयमी आसतालो. कोणाचेर तो वैर दवरीनाशिल्लो.

1605 त जेन्ना अकबराची मृत्यू जाली तेन्ना जहांगीर सिंहासनार चडलो. जहांगीर आनी बापसूचे मद्दें आशिल्ले विरोधाचे कारणान रहीमाचेरीय जहांगीर विरोधी जालो. मागीर थोडे वर्षांक रहीमाक दरबारांत प्रवेश नाशिल्लो.

हे कालाक रहीमाचें ऐश्वर्य, संपत्ति, सुख, सम्मान आनी प्रतिष्ठा ऊणे जाली. आनी भारी कष्ट भोगुका जाले. थोडे वर्षां उपरांते जहांगीरान रहीमाक दुशेर आपोवन हाडलो. मात्र न्हय दोगांय भारी लागी जाले. रहीमाक पुनः सेनापति स्थानय मेळ्ळें.

आपले वृद्धावस्थेरी ताका पारिवारिक विपत्ति भोगूची पडली. एक ना एक कारणान आपले चार पुतांची मृत्यु, बायलेची आनी जांवयांची मृत्यु आदि दिकुका जालें. पुण असले कठिन विपत्तींतूय तो शान्त आनी सुस्थिर जावन वरलो हें एक आश्चर्याचें कायरीं.

रहीमाक एक योग्य सेनापतीचे रूपान लेकतना हें विस्मयजनक जावन दिसता कि तो ललितकलेंकडेय घनिष्ठ संबन्ध दवरतालो. संगीत,

नाटक, स्थापत्य कला, मूर्ति आनी काव्य कलेंत ताका असाधारण प्रतिभा आशिल्ली. ताची धार्मिक सहिष्णुता साहस, सहन शीलता, कारुण्य आनी दानवीरतेचे पसून खूब काणियो प्रसिद्ध आसाय. वर्षाक एक पावटी तागेलें सर्वस्व दान दिवंचो एक स्वभाव ताका आशिल्लो. मागून येंवचे जनांक रित्ते हातान परतूचें ताका सायना आशिल्लें.

ताजीं आट पुस्तकां हीं - दोहावली, नगरशोभा, बरवै नायिका भेद, बरवै श्रृंगार सोरठा, मदनाष्टक, संस्कृत काव्य, फुटकर सोरठा. लोकप्रियतेचे दृष्टींत दोहावलीक तं प्रथम स्थान. साधारण जनांचे भासेन लोक व्यवहार आनी नीति विषयक दोहा बरयलेल्यान साधारण जनांक तीं खूब समजतालीं. तांतू लोकज्ञान, शास्त्रज्ञान, नीति, प्रेम, ऐश्वर्य, दान, शील, संयम, मैत्री-वैरी, भाग्य, नियति, समय-कुसमय, सत्संग-कुसंग, परोपकार-स्वार्थ, संसार-माया, चिंता अशी जायते विषयांचो आसपाव जाला दिकूक पडता. हिन्दू धर्माचे पुराणांक आधारून आशिल्ले भारतीय संस्कृतीचो प्रभाव ताजे चिंतनांचेर येंवचाक एक कारण ताजी हिन्दू धर्माची आवसू आसुंयात. रहीम आनी तुळसीदास समकालीन कवि आशिल्यान हांचे मद्दें मेळ जालोलासा.

आपले जीवनाचे अंतिम दिसांनी तो लाहोरांत आशिल्लो पुण ताका दिल्लींत वचून प्राण सोडची इच्छा आशिल्ली. ती पूर्ती जाली. 1627 त ताजी मृत्यु दिल्लींतूच जाली आनी हुमायूंचे मकबरेचे लागीच जावन ताजोय अन्तिम संस्कार केल्लो.

राजदरबारांत स्थान मान, किशोरावस्थेंतूच आरांभून वृद्धावस्थेंत पर्यंत रणभूमींत सेनापति, राजनीतीचे क्षेत्रांत उत्कर्ष आनी अपकर्ष सहन करूनूय मरण तांय स्वामिभक्त, व्यावहारिक जगांत इतले गोड-कोडू अनुभवांचो महान कवि हो. खंचोय इतर कवि इतले वैविध्यमय कार्यक्षेत्रांत विराज जालोलो आसुना.

# रहीम वाणी

प्रीतीची रीति श्रेष्ठ सर्वोपरी
हितक, मित्र, गोत्रांचेरी नाका वैर
रहीम सांगता - हे जन्मांत मात्र ही मैत्री
जांवची ना मेळूक ही दुशेर

❊

सोसून सुखदुख एक सम
महंताक शांती म्हणता रहीम
ज्या आकाराचो उदेतना चंद्रेम
अस्त जातनाय त्याच सम

❊

सरोवर सुकतना उडताय सवणी
दुशेरे कडे शरण पांवताय
पाकां नाशिल्ली मासळी पापणी
निमगीता रहीम - वतली खंतय

रहीम म्हणता - होडांक लेकून प्रिय
सन्नांक दूरा करूनयें
सूवेचो उपयोग आसता जंय
खांडे कित्तें करत थंय

※

तवशाची कोडुवाणी नाश करूक
तकली* कातरून मीट लाय
रहीम सांगता - कोडू उतरांचांक
हेंच दंड दीवूंक जाय

※

रहीम सांगता - आसता तो धन्य
जो दरिद्र लोकांक करता मोग
बाबडो सुदामा आशिल्लो खंय
पुणून कृष्णाले मैत्रीचो योग

*तकली - मातें

लवण दोळो, मधूर ओंट
निमगीता रहीम - सान कोण
गोडसाण चडता रुचतरी मीट
आनी गोड रुचतरी लवण

❊

रहीम म्हणता - तूं रे पोट
जालोना कित्याक तूं फाट
रित्तें आसतना व्यवहार उद्धट*
भरलें तेन्नाय दृष्टि वायट

❊

रहीम निमगीता - जाका उत्तम स्वभाव
कित्तें करूक शकता कुसंग
गांदाक वीष लागचें असंभव
गांदा रुकार वेष्टूनूय भुजंग।

*उद्धट - विपरीत, वायट

धन्य आसा तें चिकला उदक
जें प्राण्यांक जीवजलान तृप्त
कोण दितलें प्रशंसा दर्याक
तानेन वांवटेतना जग सर्वत्र

※

रहीम सांगता - गेरशे समान हें आंग
जाचान आसडून काडका जग
श्रेष्ट वस्तू एकठावूक लाग
पोकळ वस्तू उबोंवका सग

※

रहीम सांगता - जीब आसा पिशी
उलेयता स्वर्ग - पाताळा विशीं
उलोवन तुरंत भितरी सरता जशी
पेट्ट घेंवचें पडता कपलान तशी

महंत लोक होडपण उलयनाय
आनी दीनाय उतरां शून्य
रहीम निमगीता - वज्र सांगता वे कांय
लाख नाण्यांचे आपलें मूल्य

※

रहीम सांगता - लाख चांगपण करी
तरी दुर्गुणीक दुर्गुण भाव
गीत आयकता, दूद पिता तरी
सर्पाक घास काडचोच स्वभाव

※

रहीम सांगता - विपत्ति, तूं बरी
जी आसता थोडे दिसांक
जगांतुले हित - अनहित लोकांक
हेच समयार मेळता वळकूक

रहीम निमगीता - लागना वें कळंक
नीचांचे करून संग
सूरू विकपेन लायला हात दुदाक
सूरू म्हूणूच समजतलीं सग

*

आदर विना पीवयलें तरी अमृत
रहीम सांगता - लागना प्रीत
विष वांटल्यां तरी आदर सहित
खुशीन पीवन मरचें पसंत

*

दीन व्यक्ति चोयता सगटांक
दीनांक चोंवचाक ना कोण
रहीम सांगता - जो संभाळता दीनांक
तो जाता दीनबंधू समान

आपलीं फळां खायना रूक
सरोवर पीना उदक
रहीम सांगता - अन्यांचे हिताक
एकठायताय धन, ज्ञानी लोक

❊

संपति आनी संबंदी - रहीम सांगता
आसता विविध, समृद्ध प्रकार
साण्येर झरून वळकूक मेळता
खरो मित्र आपत कालार

❊

सांगता रहीम - ताका वांकांणसूका प्रीतीन
जाचे गूण कोळस्या समान
भीति* आपले भितरीच दवरून
सगटांक सोडता उदक पिवोवन

*भीति - कोळ्स्याक बांयतू देंवचाक जांवचे भय

बांधवांचे मद्दें निर्धनान
वास करचें अनुचित
रहीम सांगता - ना तरी धन
फळां खावन करी वास रानांत

❊

सांगता रहीम - जाचे हातांत मन
खंयीच वचूना ताजें तन
जशी सावळी उदकांत पडतना
आंग कशीच तिमचें ना

❊

राम वचने तर हिरणा फाट
सीता ना रावणा साथ
रहीम सांगता - भावी जीवित
कशीच न्हय आपले हातांत

मूळ नाशिल्ले अमरवालीक
करता प्रभू पालन पोषण
रहीम निमगीता - त्यजून असले प्रभूक
सोदून भोंवता मेळूक कोण

*

रहीम सांगता - नीज सम्पति नंतना
ना कोण आपतकालार सहाय
जशी कमळाक उदक विना
राकूक सूर्याय शक्त न्हय

*

घांटून घांटून लोणी राबता
मेणाय बदलून जाता ताक
रहीम सांगता - मित्र खरो आसता
जो राबता संकटांतूय साथ

रहीम सांगता - जशी मेत्तियेचो रंग
लागता मू वांटून दिवंच्यांक
तशीच उपकार करच्यांचो संग
धरलेल्यांक मेळता सूख

※

रहीम सांगता - धांगो जो प्रेममय
नज तुंटोवूक करून झट
तुंटलो तरी परतून जोडचो न्हय
जोडलो तरी वरतली गांट

※

रहीम सांगता - दवराय उदक राकून
उदक विना सग शून
मत्तीं, मनीष चुन्याचें समान
उद्धार जावना नासून मान

समय, दशा, कुल तें चोवन
सन्मान करताय लोक
तूं विना आनी कोण भगवान
रहीम निमगीता - आसा दीन अनाथांक

*

धन नासून प्रतिष्ठा वोचून
कांयीच न हातांत सरी
रहीम म्हणता - आसता तो तेजहीन
जशी दिसाचें मळबावेल्या चंद्रावरी

*

वोरलान दीवो निपयतना
आंग तिजें तो जळोवन सोडता
रहीम सांगता - दुकाळ पांवतना
मित्रय शत्रु जावन वता

रहीम सांगता - एक ज्योतीन
प्रकाश पसरता सर्व दिकान
दोन दोळ्यांचो प्रकाश आसून
मनाचो स्नेह वरतलो वे निपून

❊

व्हडले दंद सानान केल्लें तरीय
महत्व येवना ताका कसलेंय
रहीम सांगता - हनुमंताक कशीय
गिरधर म्हूण आपयताय वे कांय?

❊

खांदे, पाल्ले, फुलां, मूळां
तुजें कसलेंय ना उपकाराक
रहीम सांगता - रे क्रूर बाबूळ
फिरता तूं आडावून दुशेर्यांक

रहीम सांगता - मागूक लागत
व्हडलोय जायना वे सान, सांग?
जशी जालें नारायणाक लेगीत
बावन आंगूळ आंग*[1]

❊

पूराय सुशील भरल्यां जंय
रहीम सांगता - राबचें बरें थंय
शील भावांत ऊणाव दिकलो तरी
तुरंत थंय सून गमन करी

❊

विष पीवन मान सहित
शिव जालो जगदीश
मान नाशिल्लें पीवून अमृत
सोडचें पडलें राहूक*[2] शीष

---

*[1]बावन आंगूळ आंग - वामन अवतार

*[2]राहू - देव आनी असुरानी समुद्र मंथन करून अमृत प्राप्त केल्लें तरी असुरानीं तें उप्पून घेतलें. विष्णुदेव मोहिनी रूप धरून आयलो आनी असुरांचे हातांत साकून अमृत घेवून तांकां पळयत पळयत देवांक वांटून दिवचाक लागलो. असुरांक हे लेकान अमृत मेळचेंना म्हूण समजून राहू म्हळ्ळोलो असुर वेष बदलून देवांचे फांतीर बेसून अमृत घेवून पिल्लो. हें समजून विष्णून सुदर्शनचक्राचो प्रयोग करून राहूचें मातें कातरून सोडलें.

रहीम दिता ताका ताकीद शक्त
जाची चिंता आसा जिवंत
निर्जीवाक जळयता चिता
पुण जिवंत जळयता चिंता

❊

लाख परिश्रम केल्लें तरीय
बिगडले कार्याक बदलाव ना
रहीम सांगता - आंबसलें दूद कितलेंय
घांटलें तरी लोणी मेळची ना

❊

होडांक आसका क्षमा गुण
सानां सदां गडबड करीत
रहीम निमगीता - हरीक कसलें लुकसाण
जेन्ना भृगून* मारली लात

---

*भृगु - ब्रह्मदेवालो मानसपुत्र भृगु, सप्तऋषिंतुलो एकलो. आपले धूवेक विष्णुदेवाक व्हारडीक करून दिल्लोलो. एक दिसा वैकुंठांत पावलेले भृगूक अनंत शयन करून निदेलेले विष्णून दिकलोना. आपले योग्यतेचे विशिं घमंड भरून भृगून विष्णूचे हरद्यार एक लात मारली. विष्णु झट जावन उठायलो आनी भृगूचे लागी क्षमा मागूक लागलो. वज्र समान आशिल्ले आपण्याले हरद्यार मुस्तिल्यान पाय दुकून गेल्लेले आसतले म्हणून विष्णु भृगूलीं पावलां परसूक लागलो आनी एक पावलाचे पोंदाक आशिल्लो ताजो तिसेरो दोळो नाश करून घमंडाचोय नाश केल्लो.

# संत तुकाराम

मराठी भक्ति साहित्यांत तुकारामाक व्हड एक स्थान आसा. वारकरी संप्रदाय अनुसरण करून आशिल्ले तुकारामाचे दृष्टीन समाज सेवा आनी हरि संकीर्तन तं देवप्राप्तीक आशिल्ल्यो मुख्य दोनी वाटो. तुकारामाचें जनन 1608 वर्षा महाराष्ट्रांतुले पूणे शहरा लागी देहू गावांत जालें. ताजे बप्पाक शेतकारी काम आनी सानु एक ब्यार आशिल्लो. तुकारामाची व्हारडीक पन्नेरा वर्षार जाली. ताजी बायल रखुमाबाई. हांका एक पूत. तुकारामाची दुशेरी बायल जिजाबाई. तांकां दोन पूत जाले. धाकलो पूत बापसू वरी व्हड भक्त आशिल्लो. तांचो कुलदेव पंढरपुरचो विठोबा आशिल्लो.

सानप्रायेरीच आवस, बप्पूस आनी ताजे दोन भाव निधन जाल्लेले कारणान तुकारामाक कुटुंबाचो भार खांदार घेंवका जालो. लौकिक जीवनांत तुकारामाक अनेक आधात सोसूका जाले. कष्टकालाक ताजो ब्यारु आनी शेती बुडली. त्या वेळार ताजी प्राय केवल 22 वर्षां आशिल्लीं. त्याच कालाक ताजी अध्यात्मिक जीवनाची शुरवात जाली. ताजे घरांत, आशिल्ले दोन धार्मिक ग्रंथ श्रीभागवत आनी श्रीमद्भगवतगीता तो नित्य पठन करून आयलो. ते दुर्घटाचे कालाक ताजे मात्यांत एकूच विचार येतालो - घरांत खांवचाक कांयीच ना! ते मध्ये होडली बायल आनी पूत मृत्यु पावलीं.

कष्टकालाचें भयानक रूप मुकार दिकूनूय ताणे धैर्यान सहन केल्लें. सर्व सुखदुखाचो आनी संकटाचो अनुभव ताणे ते प्रायेरीच केलो. प्रयत्नाची पराकाष्ठा केली. तरी ताचें कांय फल ताका नाशिल्लें. आपलो

प्रयत्न विफल जता कशी हें ताका समजलेंना. ताका एक समजलें की जाचे इच्छेन हें सर्वय घडता, आपले आपतकालार जो सांगात राबला, ते परब्रह्माचे भक्तीन राबल्यार सर्व दुखय उडून वचून सुख पांवतलें.

जिजाबाई संसारी स्त्री आशिल्ली. तिज्यान तिजे बामणाचो हो वैराग्याचो स्वभाव सहन जायनाशिल्लो. तिजे अभिप्रायान देव पूजा वा भक्ति धन वैभवाक आड येवूक नज. सामाजिक प्रतिष्ठा, वैभव, सुंदर प्रपंच, धन आदीची ती स्वप्नां पळेताली तरी निराशा पांवताली.

त्या कालाक भगवत् प्राप्तीक अनेक साधना मार्ग प्रचलित आशिल्ले. त्या साधना मार्गार चलचे अनेक उपासक समाजांत आशिल्ले. वेद, शास्त्रांचे शिक्षण घेंवचो अधिकार केवल ब्राह्मणांचो आशिल्लो आनी अशुद्ध वर्गातुलो म्हूण मानचे तुकारामाक तें ज्ञान इच्छूक अधिकार नाशिल्लो. ते कारणान घरांत आशिल्ले ते दोन ग्रंथांचो खोल अभ्यास करूक तो लागलो. भगवत् प्राप्ती ही कोणालीय परतंत्र वस्तु नासून स्वतंत्र वस्तु म्हूण ताणे समजून घेतली. आनी प्रत्येक प्राण्याक ती प्राप्त करूक हक्क आसा म्हूणूय जाणीव ताका मेळ्ळी.

खोल चिंतनां करून ताका कळ्ळें कि परमेश्वर प्राप्तीक खूब तळमळ आनी सर्वस्वाचो त्याग करूक तयारी जाय. स्वतः मेल्यार शिवाय कोणाक स्वर्ग दिसचो ना. हे प्रमाण खंचेय व्यक्तीचे मार्गदर्शना बगर परमेश्वर प्राप्तीचे मार्गार ताणे पदार्पण केल्लें.

ताजे पुराण ग्रंथ पारायण करच्याक लागून एकांतवासाक जावन देहूच्या लागी आशिल्ले कामनाथी वा भंडारा डोंगरार तो वचाक लागलो. परमेंश्वराचे अनंत नांवांत साकून कोणाचें नांव ध्यान करका हें ताका कळना आशिल्लें. सर्व नांवांय ताका गोड दिसतालीं. ते खातीर ज्ञानदेवाली ज्ञानेश्वरी आनी अमृतानुभव, एकनाथालो भागवत आनी तसले ग्रंथ वाचूक

लागलो, आनी त्या ग्रंथांतुल्यान मेळेल्या उपासना मार्गार चलूक लागलो. कशी परोपकार करूक जाता तशी सगट तो करूक लागलो. संसार घडच्याक असत्य उलोंवका. सत्य विना परमेश्वर प्राप्ति ना. ह्या दोनी विरुद्ध अवस्थे मद्दें राबून ताणे निश्चय केल्लो कि थोडें संसारी नष्ट जालें तरी ईश्वर प्राप्तीक तें सगट सहन करूक तयार आसका. ताजे बायलेक हें कांय सोसूक जायना आशिल्लें.

लौकिक तलार तुकाराम निस्तेज जावन आयलो तरी पारमार्थिक तलार ताजो अधिकार वाडत आयलो. ताजी भितरची तळमळ भगवत् प्राप्ती विना शांत जांवची न्हय आशिल्ली. तो अंतर्मुख जावन आत्म तत्वाचो बोध मेळूक जावन विडविडेलो. तुकारामाची ही दयनीय अवस्था पळोवन साक्षात् पांडुरंगूच ताजे स्वपनांत प्रत्यक्ष जालो. भक्ताक कष्ट चड जांवचें पांडुरंगाक सहन जांवचे न्हय. पांडुरंगाचे स्वरूप दर्शनान तुकाराम धन्य जालो आनी देवचरणार पडलो. देवान तुकारामाक आशिर्वाद दीवन नामदेवाची अभंगवाणी घेवन कवन रचूक उपदेश दिलो. विठ्ठळाच्या नाम स्मरणान तो जागो जालो. तेन्ना साकून ताका कवित्वाची स्फूर्त आयली. पुण ताजे कवनांक एक कसलो ऊणाव आशिल्लो. गुरुपदेश विना आत्मबोध ना, ज्ञान ना! अशी आसतना बाबाजी चैतन्यान ताजे स्वपनांत येवन गुरुपदेश दिलो! त्या नंतर तुकाचे अभंगांक शोभा आयली, जीव आयलो. गूढ आध्यात्मिक सिद्धांत सहज रूपान अभंगांतुल्यान भायर आयले.

तुकाराम शूद्र आसूनूय वेदाचो अर्थ सांगूक प्रयत्न करतालो आनी ते कारणान सर्व ब्राह्मण पंडितानीय ताका योग्य शिक्षा दीवूक निश्चय केलो. ताजे अभंगाचीं तळतां दवरलेली मोट काडून तांणी थंयचे इंद्रायणी न्हंयत उडयली. तुकाराम खूब दुख पावलो आनी तेन्ना साकून खाण पान सोडून देवाचे भजनांत संपूर्ण मग्न जालो. ताका पांडुरंगाचेर

आशिल्ले अनन्य भक्तीक आनी निष्ठेक फल मेळ्ळें. तेरा दिसां नंतर अभंगाची मोट न्हंयत साकून ऊंच आयली. असल्यो खूब अद्‌भुताच्यो काणियो लोकांचे मद्दे भोवंत आसाय.

1650 वर्षा फालगुन मासांतुली एक राती तुकाराम भजन कीर्तनांत बुडून बेसल्लो. ताजीं कीर्तनां आयकूक खूब जनां घरदार विसरून येवून बेसून आशिल्लीं. ते वेळार तुकाराम सांगूक लागलो.

"तें पळय हरि येता. ताजे हातांतूलें शंख, चक्र, शोभा दिता. गरुडा वयरी बेसून आशिल्ले ताजे मुखतेज सूर्याक सरी तेजहीन करता. श्यामवर्ण हरीचें रूप अतिसुंदर दिसता. चतुर्भुजाचे गळ्यार वैजयंती माळा आसा. धा दिशाय उज्वल जाल्याय आनी हरीचें पीतांबर झगझगेता आसा. माका वैकुंठाक व्हरूक मू आयला हरि!".

अशी सांगता सांगता तुकाराम अदृश्य जालो! लोकांक हें समजलें कि सर्वश्रेष्ठ तुकाराम अनतांत विलीन जाला!

तुकारामान अभंगां आपले मातृभास मराठींत रचिलीं. ताजे 41 वर्षांत पांच सासा लागी अभंगां रचिलीं जावन आसाय. थोडीं आत्मचरित्रा सारकीं रचल्यांय तरी पांडुरंगाकच तांतु मुख्य स्थान. साधारण जनांचे मद्दें तीं अभंगां खूब लोकप्रिय जाल्यांय.

# तुकाराम वाणी

खूब काळा साकून तर
बेठें वजें आसलें मात्यार
आतां देवला भार
तूवें केला स्वीकार
खूब वात्सल्य दाकयलें
निमगूक आयलो - कितें जालें
'तुका' म्हणता - देवा
आज सफल जाली सेवा

*

हेंची मू मिजें धन
वंदन करूक तुजें चरण
असले भाग्यान जाता जीत
सगळें मन तुजेर समर्पित
राकलें मू देवान
अनाथ आशिल्लें मिजें जीवन
जोडता 'तुका' हात नित्य
मागता जावूक तुजो भृत्य

विष्णु दासांनी पवित्र केल्लें
आपणाले दोषांक आपणायलें
कोणाक चोवूक जाता तांचे कडे
विठळाचे उत्कट वीरां कडे
तांचे मुकार अशुभ
जावूक शक्ता मू शुभ
प्रेम सुखाची राशी
हरलें पाप ओखद जशी
'तुका' म्हणता - मेळून तांनी सगट
धरतरी केली वैकुंठ

*

मिजी बुद्धी इल्ली
म्हणून काकुळट दिसली
आतां दाकय देवा
तुजीं चरणां केशवा
मिजे मनांत धीर ना
ना मू नारायणा
'तुका' म्हणता - दया
अभागी मिजेर दाकय देवा

आधार तुजो माका मेळका
असली आस दवरतां देवा
तुजे लागी कित्याचो ऊणाव
समाधानेक कसलो अभाव
सेवा करची मू आशा
मन खूब पिशें आसा
तूं रे भक्तांचो पराधीन
'तुका' म्हणता - हे नारायण

*

खरें आतां अशेंच दंद
करून आसा स्मरण तुजें गोविंद
आसून तूं रक्षक जरी
हेरांक कितें करूक जाता तरी
मन, तन वचन तुजे पायांकडे
करता हेंच वरून तिकडे
'तुका' म्हणता - गीत मू गावप
मनांत दवरून तुजें स्वरूप

जावून मू पयणारी
दिकली रे दिकली पंढरी
कित्याक वेगळी तपश्चर्या
सगळें फल दर्शनानची ह्या
दुरभिमान तो वरलो ना
सगट संपूर्ण, आस वरली ना
'तुका' म्हणता - बेसलो
दोळ्यांत विठल सावळो

※

आश्चर्य तो एक जालो
मिजे मनांत आयलो
निर्जीवाचेर करूणा केली
अर्थहीनता ती तशीच गेली
मेळना तेन्ना केद्दो राग
मागीर दिकुयात कपट सग
'तुका' म्हणता - कसली ही दुविधा
शुद्ध करी माका विठ्ठला

अभयाचें स्थल
तें हेंच अचल*
दवरला तरी विश्वास
जावून मू दास
पूरून उडयल्यो आवडी
लागली तुजे चरणाची गोडी
'तुका' म्हणता - कंठांत देवनाम
आंगांत भरता ताजें प्रेम

❋

देवा आसलो शिष्य दी माका
ब्रह्मज्ञानांत निपुण आसका
आसका ताका श्रेष्ठ स्वभाव
भक्ति प्रेमाचो मूर्तभाव
चिंतेंत परम युक्तीचे बाण
ताजेर वैराग्याची बसकण
अंतरांत ताजे आसका ताप
'तुका' म्हणता - जाचान वता दूरा पाप

*अचल - स्थिर, हालूनाशिल्लें

आज तांय हांव आसलो तुजो अज्ञान
रसपतीन खेळण्या संग वरचो
आतां नियंत्रणा भायर जाल्याय अवगुण
करूनयें जालेल्यांतूच सूख सोदचो
'तुका' म्हणता - आतां सर्वय सोडून
मनांत केवल नारायण दवरचो

❊

जीवन पवित्र तेन्ना मनीषु जाता मुक्त
आनी त्यज करता दुर्जन सांगात
खूब अन्नांत सासमा येदें विष मेळय
सगळेंची अन्न जातलें मू विषमय
'तुका' म्हणता - जाचान आपलें हित
करी विचार, करी योग्य नीत

हरी आनी हराचो भेद
आसा म्हूण करू नये वाद
एक एकाचे हृदयांत
जशी गोडी गोडाचे सांगातांत
भेद ना म्हणूक एक आड
एक स्वरमात्रा मू चड
उजवें आनी वाम भाग
'तुका' म्हणता - एकची आंग

※

पूजा करतां यथाविधि
सामग्रीची तरी जालीना मू सिद्धी
आतां मिजेर सर्व भार
सर्वाचोय तूंच रे दातार
मंगळ, तूंच मू जाण
कितें तें, नारायण
'तुका' म्हणता - समर्पिला
देहभाव तुजेर विठला

जशी भर्तार पतिव्रतेक प्रमाण
तशीच माका नारायण
लोभीक जशी सर्वभावानय आवडता धन
तेच वरी माका नारायण
'तुका' म्हणता - एकच वरी जाल्यां मन
विठळ नंतणा नेण आनी कोण

*

घेवून मू तो चक्र गदा
हेंची करता सदा
भक्तांक राकता चरणांचे लागी
दुर्जनांक करता संहार वेगीं
अव्यक्त आशिल्लें आकारांत आयलें
रूप गुणवंत धरलें
'तुका' म्हणता - पुरती जाली आस
तशी विठळ आयलो समक्ष

देवनाम घेतना लागना वेगळ्याक मोल
नाममंत्र विना जायश ना कांयच विसकळ
दोनी अक्षरांचेर दवर प्रेम
उच्चारण करी राम राम
वर्ण, धर्म, जाती पळयना
नांव घेतना अन्य कांय वरचें ना
'तुका' म्हणता - देवनाम
चैतन्याचें नीज धाम

❊

आलिंगनान मू घडता
मोक्ष सायूज्य जोडता
अशी संताची महिमा
सांगूक जांवची ना सीमा
तीर्थयात्रेन उदरगतीचो काळ
सर्वय तांचे पायांचे सकल
'तुका' म्हणता - देवा
तांची करतना पांवता तुका सेवा

बुद्धिहीन आनी निर्जीव आमी
करूनाका उपेक्षा आमचेर स्वामी
आयक तूं विनंती आमची
विनंती ही दीन दासांची
चरणार पावला करून चिंतनां
ताणी वंचित करचें ना
'तुका' म्हणता - पुरुषोत्तमा
अपराधांक करी क्षमा

*

धर्माचो तूं मूर्ती
पाप आनी पुण्य तुजे हातींत
सोडय माका दातारा
कर्मांत साकून राबना तूं दूरा
करी मिजो स्वीकार
तरी मिजो कितलो तुका भार
प्राण्यांचो मू तूं जीवन
'तुका' म्हणता - नारायण

परमळ चड मेळत म्हणून चिरडूनयें फूल
आवड आसा म्हणून खावूनयें मूळ
मोतियांचे उदक म्हणून चोखूनयें स्वाद
यंत्र फुटोवन सोदूनयें नाद
कर्मफल म्हणून इच्छूनयें प्रेम
'तुका' म्हणता -लोकांनो, हक मानूनयें मर्म

❊

मनांत समाधान आसा तर
विष सरी, दिसता भांगार
अतीव कपट खूब दिकचें
जाचें भलें कितें सांगचें
मनांत भरून तळमळ
आंगाक गांद लावूनूय विफल
'तुका' म्हणता - मनांत दुस्मानकाय
तेन्ना फल पीडेचे घाय

कशी ना मानचें हे संतांचो उपकार
करताय माका जागृत ते निरंतर
देवा तांचे उतरांव्हाळो कशी देंवचोना
तांचे पायीं जावूं बळी आठयता मनां
सहज उलोंवचें हित उपदेश वाणी
आयास तेन्ना मेळता शिकोवणी
'तुका' म्हणता - मनांत चिंता धेनुवत्साची
मिज्यांत येवून संभाळिता तीची

*

शुद्ध आसा बींयाळ
तेन्ना फळां सोबित रसाळ
तोंडांत आसता अमृतवाणी
देह करता योग्य करणी
सर्वांग निर्मल
मन जशें गंगाजल
'तुका' म्हणता - कष्टान तापतना
थंड जाता ताजे दर्शन मात्रेन

आवड चडोंवचें आतां हासून तिडकून
अतृप्त वरता भितरचों मोह पुण
सेवा आनी सूख करोय विनोद वचन
आसताय एक साथ हांव आनी नारायण
'तुका' म्हणता - हांव जाला उदासीन
केला लोकपतीक आपल्या अधीन

*

निश्चय जावन तूं सगळो गोड
आसा मोगाळ, उत्कृष्ट
बेसला तुजे चरणार भक्त
थंय खुशाल नांचत
स्वामी, करी माका जागरूक
तरी मनांत लागता उल्लास भरूक
'तुका' म्हणता - आश्वास जाय तरी
विठळाचेरी प्रेम दवरी

दर्शनाची देवा आस
सहन जायना, जाला उदास
जीव तुजे पावलां लागी
देह मात्र आपणा लागी
येदो सरी उडगास ना
बेसलेकडे साकून उठलोना
जीव आसता अतिदूर खंय
'तुका' थापला थंयचे थंय

*

उचित समजूचें प्रथमलें धर्म
शुद्ध मन तरी जावना बुद्धिभ्रम
मना आवडे मागशींचो धांव सोड
संतांचे वचनांचेर दवर आवड
आसूका भितर वचनांचेर विश्वास
'तुका' म्हणता - तरी नाका उपदेश

वरतना सदा तळमळ
मन जाता चंचल
ताचें दर्शन रहित
शव जशें वरता जिवंत
कुशब्दाची घाणी
अमंगळ जाल्या वाणी
नेण मू कोणेय शब्द ताचो
'तुका' म्हणता - तरीय आभार जांवचो

*

जन्मांतराक आपणायतां संतोषान
एक बरो इहलोकी जावून
पंढरीचो जाता पयणारी
ही जोडी व्हड थोरी
हरिदासांचे थंय समागम
भरता आंगांत भक्ति प्रेम
'तुका' म्हणता - तेंची हें मन
मागता इच्छेचें दान

# पुस्तक सूची

## English

1. Cultural leaders of India series - Devotional Poets and Mystics Part II, Publication Division, Govt. of India, Delhi
2. Makers of Indian Literature Series - Kabir - Prabhakar Machwe, Sahitya Akademi, Delhi
3. For the love of Krishna and other Stories of devotees - Retold by Rajee Raman, Seasons Publishing, Chennai.
4. Amar Chitra Katha - Kabir, Surdas, Tulasidas, Jnaneshwar, India Book House, Mumbai

## हिन्दी

5. अभंगसागर (तुकारामाचे अभंग) हिन्दी अनुवाद - बापु केशव विश्राती प्रकाशन, पुणे
6. गोस्वामी तुलसीदासजी रचित दोहावली - हनुमानप्रसाद पोद्दार, गीता प्रेस, गोरखपुर
7. प्रवीण उत्तरार्द्ध परीक्षा गाइड, लक्ष्मी हिन्दी विद्यालय, गुण्टूर
8. प्राचीन काव्य संग्रह - दक्षिण भारत हिन्दी प्रचार सभा, मद्रास
9. भारतीय साहित्य के निर्माता - कवीर - प्रभाकर माचवे - साहित्य अकादेमी - दिल्ली
10. भारतीय साहित्य के निर्माता - रहीम - विजयेंद्र स्नातक साहित्य अकादमी - दिल्ली
11. सूर विनय पत्रिका - अनुवादक सुदर्शन सिंह - गीता प्रेस, गोरखपुर

12. श्रीसूरदासजी रचित श्री कृष्णबाल - माधुरी भावार्थ सहित अनुवाद - सुदर्शन सिंह, गीता प्रेस, गोरखपुर

## मराठी

13. अभंगांचा गाथा - श्री संत तुकाराम महाराज संस्थान - श्री क्षेत्र देहू
14. तुकाराम महाराजांचे निवडक एक हजार अभंग - संपादक गो. गो. टिपणीस, वरदा प्रकाशन, पुणे
15. श्री एकनाथ महाराजांचा गाथा - संपादक काशिनाथ अनंत जोशी जगदीश पुस्तकालय, पंढरपूर
16. श्री नामदेव चरित्र - प्रा. र. रा. गोसावी, सौ. वीणा र. गोसावी, सारथी प्रकाशन, पुणे
17. श्रीनामदेव महाराजांचा गाथा - संपादक काशिनाथ अनंत जोशी जगदीश पुस्तकालय, पंढरपूर
18. श्री संत तुकाराम चरित्र - अनंत पैठणकर, धार्मिक प्रकाशन संस्था, मुंबई
19. श्री ज्ञानेश्वर महाराज यांच्या अभंगाची सार्थ गाथा - रामचंद्र तुकाराम यादव, हिंदुराव गणपती वासकर प्रकाशक

## മലയാളം

20. കേരള ഭാഷാ സാഹിത്യ ചരിത്രം പ്രശ്നോത്തരി - വെട്ടം മാണി ഗുരുനാഥൻ പ്രകാശനം, കോട്ടയം
21. ഭജനാവലി - ശ്രീ രാമകൃഷ്ണ മഠം, തൃശ്ശൂർ
22. ജ്ഞാനപ്പാന - ഈ. എസ്. പ്രകാശനം, കോട്ടയം

# श्रीमती सूर्या अशोक हांचीं इतर पुस्तकां




## गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो

(कविता संग्रह)

2007 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कवितासंग्रहाक उडुपीचे प्रो. एम. एन. प्रभु हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. हांनी तांतू म्हळ्यां - "मेरूसदृश अक्षरवृक्षांतुल्यान पडिल्यो गुंजियो एकत्र कर्नु कवयित्रीन ह्या संग्रहांतु पुंजायल्या.... फुडे काळांतु भांगार तोलचाक गुंजियो वापरताले. हांगा येवंच्यो गुंजियो भांगराक समान तुल्य जावन आस्सति... सप्रास ताळ, लयबद्द तेजः पुंज पदपुंजाच्या ह्या काव्य कुंजवनांत विहार करचेंच एक अमोघ संतोष...."

ह्यो 200 गुंजियो स विभागांत पुंजावनु सजयल्याय - सैम शिल्पां, चित्र विचित्र, भक्ति-सुक्ति, सपनांत उपजलीं कवनां, उम्मास पुन्नव, चिंतनांची ल्हांरां अशी.

132 पानां. मोल 100 रुपया.



# पुनर्जनी
(कथासंग्रह)

2005 वर्सा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कथासंग्रहाक श्री. शरतचंद्र शेणै हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. 'श्रीमती. एन. एम. सरस्वतीबाय' स्मृतिपुरस्कार मेळ्ळेली 'देवदूत' कथा सयत, सात भावपूर्ण आनी सप्तरंगा वरी वैविध्याच्यो कथा ह्या संग्रहांत एकडे केल्याय.

ह्या पुस्तका विशीं उडुपीचे प्रो. एम. एन. प्रभु म्हण्टाय- "ह्यो काण्यो लेखिकेले जीवनदर्शनाचेर प्रकाश घालतातित. उत्तम समाजचित्रण, संवेदनशीलतेन परिपक्व जालेल्यो, लेखिकेल्या अनुभवान सरळ आनी सुंदर रीतीन बरयल्यो ह्यो काण्यो वाचकांक मंत्रमुग्ध करच्यांत यशस्वी जातातित".

लेखिकेन स्वयं रचिल्लें रंगीन मुखचित्र.

68 पानां. मोल 65 रुपया.

# कृष्णगीत

(सचित्र काव्य)



2004 वर्सा उजवाडायलेल्या ह्या सचित्र काव्यपुस्तकांत लीलापुरुषोत्तम श्रीकृष्णाली जन्म धरून कंसवध पर्यान आशिल्ली, कृष्णकथा आसा. हाचे प्रस्तावनेंतुल्यान श्रीमती सुशीला टी. भट हांणी म्हळ्यां - "सान चेरडुवांक सरी प्रयास नातिल्लें समजूक साध्य आसिल्ले रूपान अत्यंत सरळ भाषेन वर्णन करूक जालेलें कवयित्रीले भाषा स्वाधीना निमित्तींच. ताळनिबद्ध आनी प्रासबद्ध पंक्तियो विविध मात्रेंचेर रचल्याय. कोंकणीच्या भक्ति साहित्याक आनी बालसाहित्याक केरळाचो एक उत्तम उपहार". हांतूलीं चित्रां आनी रंगयाळें मुखचित्र लेखिकेन स्वतः रचल्यांय.

36 पानां (व्हड आकाराचीं). मोल 75 रुपया.

# शेणै प्रकाशनाले इतर उपहार

## होळ्ळम्मालो काणियांचो पेटारो

(कथासंग्रह)



परंपरागत लोक काण्यो आनी स्वकीय काण्यो मेळोवन तीस काण्यो एकडे करनू श्रीमती वत्सला आर. शैणै हानी भुरग्यां खातीर बरयलेल्या ह्या पुस्तकाक डॉ. एल. सुनीता बाय हांगेली प्रस्तावना आसा.

2006 वर्षाचें प्रकाशन.

104 पानां, मोल 100 रुपया.



## Small Wonders

**(Poems)**

'Small Wonders' is an anthology of English poems by Rupashri Ashok aged eleven. The 35 poems included in the book were composed by her within these past two years. Through expressions and impressions the young poet's love for nature is truly mirrored in all poems.

2008 Publication

44 Pages Rs. 40




# पुष्पांजली

(काव्य संग्रह)

श्री पी. एस. रामचंद्र शेणै हांगेल्यो बत्तीस कविता एकठांय करून 2001 वर्षा उजवाडाक हाडलोलो काव्य संग्रह. प्रोफ. आर. के. राव हांगेली प्रस्तावना. श्री शरतचन्द्र शेणै हांगेलीं बरीं उतरां. श्री आर. सुधाकर हांणी मुखचित्र रचल्यां. शेणै प्रकाशनालो प्रथम उपहार.

52 पानां, मोल 50 रूपया.




# होळळम्माल्यो काण्यो

(भाग - 1)

ऑडियो कॅसेट

श्रीमती वत्सला आर. शेणै हांणी कथन केलेल्यो तीन सुंदर कोंकणी लोककाण्यो.

2004 वर्षाचें प्रकाशन. मोल 40 रुपया.

# सूर्या अशोक



1969 वर्षा केरळाच्या तृपूणित्तुरा गावांत जन्म. बी. कोम. पदवि आनी कोंकणी साहित्यांत पदव्युत्तर डिप्लोमा जोडल्या. कथा, कविता, नाटक, प्रवासवर्णना, बालसाहित्य आदी जायत्या नेमाळ्यांनी आनी संग्रहांनी उजवाडाक आयल्यां. कोंकणी भाषा प्रचार सभा, वैष्णवरत्न मासिकपत्र, एस.जि.एस. सभा, आदीं कडेच्यान जायते साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. 1999 वर्षा 'श्रीमती एन. एम. सरस्वतीबाय स्मृति पुरस्कार' मेळ्ळो. कवितें वरी कथाय साहित्य वेदींचेर अवतरण केल्याय. 'काव्योद्यान', 'साहित्यदीप्ति', 'कोंकणी काव्यमंजरी', केंद्रीय साहित्य अकादमीचो 'कोंकणी लोककाण्यो' अश्या विशिष्ट संग्रहांत हांगेले कृतींचो आस्पाव जाला. 2004 वर्षा कालिकत अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे वेदीचेर हांगेलें 'कृष्णगीत' सचित्रकाव्य प्रकाशित जालें. 2005 वर्षा हांगेलो कथा संग्रह 'पुनर्जनी' उजवाडाक आयलो. आनी 2007 वर्षा 'गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो' म्हळोलो कवितासंग्रह वाचप्यां मुकार दवरलो. हांका चित्र-शिल्प कलेंतूय व्हड प्रावीण्य आसा.

# अमृतवाणी

शुभकर मधुर ही अमृत वाणी
शांती दायक मू संतांची वाणी
कठोर मनां तांय मोवाळ करची
अमर वाणी आयका तुमी संतांची

मुक्तीची वाट दाकयता नामदेव
परमार्थाचें ज्ञान दर्शायता ज्ञानदेव
सदगुरूली महिमा गायता कबीर
कृष्ण भक्तीन उन्मत्त डोलता सूर

एकनाथ समजायता धनाची व्यर्थता
लोकांक सांगता करूक जाग्रता
मनांत साकून सोडोवन स्वार्थता
रामनामांत बुडूक तुळसीलि व्यग्रता

सद्मार्गार चमकूक शिकयता पूंतानम
लोकज्ञानाचीं मत्तीं विरकीता रहीम
कष्टांक जिकवून समजायता तुकाराम
विश्वेश्वराचो प्रेम कितलो असीम

**-सूर्या अशोक**

**शेणै प्रकाशन**

**मोल 220 रुपया**